# अंजदीव ते अंदमान



ले. अजित पैंगीणकार, एम.ए.

# अंजदीव ते अंदमान


* **भौ. अजित पैंगीणकार,** एम.ए.



* पयली आवृत्ती – २००४

* प्रकाशक :
**सौ. सुखदा पैंगीणकार**
अनुजित प्रकाशन,
पैंगीण – काणकोण – गोवा
दूरध्वनी क्र. २६४९२३५

* मुखचित्र आनि भितल्लीं चित्रां
**भौ. श्रीनाथ पागी**
**सौ. रेश्मा श्रीनाथ पागी,**
आगस–माशे.
फोन : २६४००७१.

* मुद्रक :
**इंप्रेशन्स,**
बी – २, अक्षर आर्केड
३३६०/४, गोंधळी गल्ली क्रॉस रोड,
बेळगाव.

* मूल्य : **३५/–**

फाटल्या पंचविस वर्सा सावन
हांवे जे बरयलें
ते मानून घेतानाच
म्हाका उर्बा दिवपी
त्या 'नवप्रभा' दिसाळ्याच्या
सगळ्या जाळवण दारांक.....

# अजित , सर फुडें !

म्हजो इश्ट अजित पैंगीणकर एक पत्रकार म्हूण सगल्यांक खबर आसा. सामाजिक बांदिलकी मानून घेवन समाजीक मळार वावुरपी म्हूणय ताची वळख आसा. लोक पंगडाचो मुखेली म्हूण तर ताची नामना आसाच. मात्र अजित मुळांतच गोंयचे मातयेंत किल्लो, गोंयचे मातयेंत फुल्लिो-फळिल्लो जल्मजात लोककलाकार ही अजिताची वळख ज्याका आसा, ताका अजितान चिकित्सायेन लोककलेचें सुवर्ण तेळ्ळें, ते आंगापांगांनी केळयलें, बुदवंत फिशालकायेन वांगडच्या खेळगड्यांमर्दी बळयलें आनी हें लेकसंचित फुडले पिळगेखातीर पुस्तकांच्या पेटलांनी सुरक्षित दस्तन करुन दवरलें ही वळख चड गरजेची. अर्थात, ही अशी वळख हाचेफुर्डे अजितार्ची लोककलेवेर्ली पुस्तकांच संवसाराक करुन दितली. वांगडाच लोककलेची आनी ताका लागून आयिल्ल्या गिरेस्त, देखदिण्या अणभवांचीय.

तशे अजितासारकें कितलेशेच लोककलाकार आनी लोककला पंगडांचे मुखेली म्हाका भोव बरे खबर आसात. ह्या मळावेलो हांवूय एक वावूरपी जाल्ल्यान तांच्या वावराची आनी सभावविशेशांचीय म्हाका लार्गीच्यान वळख आसा. 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत 'लोकपंगडा वांगडा' हें सदर बरयतना तर लोकपंडगडांच्या आनी पंगड मुखेल्यांच्या वावराचो तपशील म्हाका पुंजावचो पडटालो आनी वळख तपशीलान घडटाली. मात्र लोककलेक लागून घडिल्ल्या प्रवासाचेर पुस्तक बरोवपी अजित चडकरुन पयलोच. अर्थांत, लोककलेचेर, लोककलेसंबंदान जाण्त्या जाणकारांनी पुस्तकां बरयल्यांत. हांवें तीं वाचल्यांतूय. मात्र, अजिताच्या ह्या पुस्तकाची तुळा तांतुतल्या खंयच्याच पुस्तकाकडेन कोणें करची न्हय; देखून लोककलेवयल्या खंयच्याच पुस्तकाचें वा संबंदीत जाणकार लेखकाचें नांव दिवपाचें बळयां हांव ताळटां.

अशें कितें खाशेलेंपणा आसा अजिताच्या ह्या पुस्तकांत? ही कितें काव्यात्म, शैलीदार, अव्रंवर अशी साहित्यकृती? काय परतीं पारायणां करचीं असो एकादो

अध्यात्मिक ग्रंथ?.... ना, तशें कांय ना. खऱ्यांनीच त्या मापदंडान कोणेंच ह्या पुस्तकाकडेन पळोवचें न्हय. मात्र, अजिताच्या प्रवासकथनांतलीं काणी कानांत तेल घालून घेतिल्लेवरी मनांत जिरोवन घेवची, लिखाणांतली 'संस्कारित भाशे'न थोडीशी इबाडूनय 'काणकोणी' आनी खास करुन पैंगिणी' उरिल्ली भासशैली उसकांड्यावरी चोखून पिवची, प्रवासांतल्या अणभवांची कथनात्मक रितीन केल्ली मांडणी नियाळून घेवची, लोककलाकार ते लोककला पंगड-मुखेली मेरेनच्या आपल्या प्रवासांतल्या सांगाती खेळगड्यांच्या सभावविशेशांची अजितान केल्ली पारखणी खंथकरपाखातिर आस्वादून घेवची, आपल्याक मार्गदर्शन करुन मुखार काडिल्ल्यासंबंदांतली आनी प्रवासांत आपल्यासयत आपल्या पंगडांक वेळाप्रसंगार पाविल्ल्यांसंबंदांतली वयलेवयर केल्ल्यांसंबंदांतली अजिताची कृतज्ञताय काळजांत केळोवची, प्रसंगांक धरुन अजितान दिल्ल्या इतिहासीक संदर्भांफाटल्यां ताच्या अभ्यासाची तुस्तलोखणाय करची. गोंयच्या लोककलेच्या इतिहासाच्या फुडल्या अभ्यासू इतिहासांकारांखातीर अजिताचें हें पुस्तक एक दस्तऐवज जावपाक कसलींच हरकत नासुयें. अर्थांत, ह्या पुस्तकांत संबंदीत खेळगड्यांची नामावळ, थळांचे नकाशे आनी कार्यावळींचो तपशील आनी फोटे हांचो आसपाव करप शक्य जाल्लें जाल्यार पुस्तकाक खेरीज 'वजन' येवपाचें! जावं आयलां तेंवूय थोडें न्हय.

सव्वीस पेण्यांच्या आटापांतलें अजिताचें दुसऱ्या पेण्यावेलें हें लोककलेवयलें पुस्तक. नवखेपण दवरत्याभायर दवरुन साहित्यदरबारांत पावल मारपाचे महत्याकांक्षेचें हें पावल; देखून हांव अजिताच्या पुस्तकास्तन ताका येवकारतां, 'सर फुडें!' म्हणटां. हरशीं कला अकादमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय, माहिती आनी पर्यटन संचालनायल आदि कितल्यांशाच बिगर सरकारी आनी सरकारी संचालनालयांकडे दसची संवकळ आशिल्ल्या लोककलेच्या मुळाकडेन वचून घोडेमोडणेक आनी दिवल्यां नाचाक खाशेलो आयाम दिल्ल्या भुरगेपणासावन ह्या मूळार कितलेशेच पुरस्कार जोडिल्ल्या आनी प्रस्थापित जावपाक पाविल्ल्या अजिताक हांवें आज तरी 'सर फुडें!' म्हणपाची गरज ना. तरी आसतना इश्टागतीच्या आनी घरोब्यच्या नात्यान हाचेपयलीं खाजगींत म्हळां, जाहीर कार्यावळींनी म्हळां, तेंच आज पुस्तकांतल्यान खेरीज कारणाखातीर म्हणटा. ना तर पयलीच लोकनाचाची संस्कृतीक कार्यावळ घेवन लोकसंस्कृतायेंचे पयले भोंवडेर मद्रासाक वचपाक भायर सरिल्ल्या तांच्या लोकपंगडाक गावांक दिल्लो उर्बेभरीत निरोप, हैदराबादेंत तालमीवेळार फुटिल्लो धोल सादपाखातीर धोलाचें चामडे शिवतल्याकडेन एका रिक्षावाल्यान पावोवप आनी तबलें सादपी जाण्ट्या कलाकारान धोल सादून दिवचेपयली काडिल्लीं 'घबराना नहीं। मैं बना के दूँगा।' हीं आश्वासक उतरां, गोंय आनी हैदराबादेक सांदपी पूल असो अजिताक मेळिल्लो नवो इश्ट अभय नसगेंकार,

अंदमानांत कलाकारांचे स्वागत चालू आसतानाच अंदमान-निकोबार बेटांचे तेन्नाचे पोलिस कमीशनर मार्शेकार भाव भौ. अँथनी डिसौझांनी अजिताच्या पंगडाखातीर धाडिल्ली आपली गाडी. प. पू. साने गुरुजींच्यो अमळनेर वाठारांतले समादीक दिल्ले भेटीवेळार जगांतलीं सगळीं सुखां मेळिल्ल्याचो अजिताक जाल्लो साक्षात्कार, तेन्नाचे दिवाचे आमदार, गोंयचे सभापती, गांवभार श्री. नारायण फुग्रो हांची मजत, भारताच्या प्रजासत्ताक दिसाच्या निमतान दिल्लींत जाल्ले गोंय दिसाचे कार्यावळीवेळार कलाकारांची रावपाची जाल्ली गैरसोय, गॅरेजींत रावपाचो प्रसंग आनी त्यावेळार कलाकारांक फावो तो सन्मान मेळपाक जाय ह्या आग्रही मताच्या कला अकादमीच्या अध्यक्षांनी त्यावेळावयल्या गोंयच्या मुख्यमंत्र्यांनी श्री. प्रतापसिंग राणेंनी सगल्या कलाकारांची गोवा सदनांत करुन दिल्ली राबित्याची वेवस्था आनी सगल्यांत पयलीं अजित आनी सांगात्यांक लोककलेत मुखार सरपाक पांडूरंग फळसायान घेतिल्लो फुडाकार ह्या सगल्या गजालींनी अजिताक खेरीत रितीन 'सर फुडें!' अशें वेळावेळार म्हळाच.

अजितान ह्या पुस्तकातल्यान मांडिल्ले अणभव इतल्यान सोपनात. तांतूत दिवड फिशाची घोस्ताची मेजवानी आसा, नाकाक हात लायलो म्हूण पिकार जावन सांगात्यांक कठीण प्रसंग भोगपाक लावपी नानू आसा, उत्तर प्रदेशांतल्या उत्स्फूर्त प्रतिसादावांगडाच चलयो कलाकारांकडेन वखवखिल्ल्या नंदरांनी पळोवपी उरई जिल्ह्यांतले तरणाटे आसात,दक्षिण भारतातल्यां हेर राज्यांपरस वेगळो असो पाँडिचेरीचो वाठार आसा, पांच पँटी आनी पांच शर्टां चडोवन पंगडावांगडा गेल्लो, शियांत उज्याकडेन शेकपी शेनायकार आसा, राजस्थानातल्या खेत्रीनगरांत थंयच्या तरणाट्यांनी कार्यावळीवेळार घाल्लो धुडगूस आसा, वयलेचाराक पळोवपाक भास, भेस, अस्मिताय वेगळी. जावनूय अस्सल भारतीय मिझो लोक आसात अहमदाबाद शारांत आयिल्लो लूटमारीचो प्रसंग असा, भाशेच्या वेगळेपणाक लागून घडिल्ल्यो गंमती-जंमती आसात. राजस्थानांतलो स फूट उंचायेचो पोलिस आसा, गुजरांतेल्या भावनगरच्या थेटरांत गोफाचो तिसरो प्रकार विणाटनाच गोफाचें तुटप आसा. सांगाताकूच प्रेक्षकांचो ताळयांचो कडकड आसा, दिल्लीतल्या चाँदनी चौकांतल्या श्री शंकराच्या देवळांतलें अन्नसंतर्पण आसा, मुंबय बंदावेळावयली उपासमार आसा, कोकम संमेलनाचो नवो अणभव आसा. आयज देशाचे नौसेनेकडेन आशिल्लें आनी एका तेंपार काणकोण म्हालाचो घटक आशिल्लें इतिहासाची साक्ष अंजदीव बेट आसा आनी ह्या सगल्यांभितर चिकित्सक सभावाचो, राष्ट्रीय वृत्तीचो, बुंदवत तकलेचो आनी खिणाखिणाक आपले आनी सांगत्यांचें कलाकारपण सांबाळपाक वावुरपी अस्वस्थ मनाचो अजित आसा!

मात्र अस्वस्थ जावन तो फक्त फडफडना, धडपडना. अभ्यासू वृत्तीन दर एका प्रसंगावेळार विचार करपाक लावपी भाष्य करता. "..... अन्नाच्या कणाखातीर मनीस कितलो धडपडटा! ह्या देसांत कितले जीव अन्न उदकाक लागून तळमळटात.एका वेळचे जेवण लेगीत तांका मेळना. कारणांकसलींय आसूंर्दी. पुणून म्हजेकडेन जें आसा ताचों थोडोसो जायना ज्या लोकांक खावपाक कांयच मेळना अशा लोकांक वाटपी लोक ह्या संवसारांक आसात देखून मनीसपण शिल्लक उरलां." ही फक्त एक देख. हाचेपरस परखड भाष्यां ह्या पुस्तकांत पेण्यांपेण्यांनी वाचपाक मेळटलीं. देखुनच, 'इतिहास पाठ करपापरस इतिहास घडोवप म्हत्वाचें. हो सुविचार पहिल्ल्या अजिताकडल्यान भावनीक अस्वस्थतायेक विचारीक बसका मेळपाक लागल्या आनी अजीत वाडटनाच ताच्या विचारांक प्रगल्भताय येवंक लागल्या अशें हें पुस्तक वाचून म्हाका खरायेन दिशिल्यानूच हांव त्या संदर्भांत आज अजिताक म्हणटां, 'अजित, सर फुडें!'

ॐ श्री दत्त
श्रीस्थळ, काणकोण,गोंय
२९ डिसेंबर २००३

**कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी**

# दोन उतरां

म्हजें 'काणकोणची लोक कला एक दायज' हें कोंकणी पुस्तक जेन्ना भायर सल्ले त्या वेळार त्या पुस्तकाक इतलो पतिसाद मेळतलो हें चितले नाशिल्ले. कोणकोण म्हालांक विंगड विंगड वाठारांत शिंपडिल्ली लोक गीतां, काणकोण म्हालांतले कांय पारंपारिक उत्सव एकठ्यांय हाडपाचो ल्हानसो यत्न केलो. गोंय कोकणी अकादेमी, गोंयचे म्हायती खातें, गोंयचे शिक्षण खातें तशेंच गोंयभरच्या म्हज्या बऱ्या मागप्यानी आपल्या घरांत दवरपाखातीर, नव्या पिळगेक शेणत गेल्ले लोक वेद समजोवन सांगच्या खातीर पुस्तकां घेतलीं.

'अंजदीव ते अंदमान' हे पुस्तक म्हळ्यार सांस्कृतीक मळार हांवे जी भोंवडी केली ताचें वर्णन. गोंया भायर गोंयच्या लोक संस्कृतायेचे जे वायट रूप दाखयतात ताचे थोडेशे चित्रण. गोंयची कला अकादमी, अस्तंत सांस्कृतीक केंद्र, गोंयचे कला आनी संस्कृतीक खाते, गोंयच्यो सामाजिक संस्था तशेंच सांस्कृतीक संस्था हांच्या सहकार्यान देशाटण करपाची संध मेळ्ळी. खूब भोंवडी केली. खूब कार्यावळी दाखयल्यो. सगळ्या देसाचे दर्शन घेतले. बरे वांयट अणभव घेतले. गोंयचे जे वेगळे चित्र गोंयाभायर दाखयतात ताचो परिणाम भोगचो पडलो. कांय वाठारांत तुस्त, तोखणाय जाली. कांय जाग्यार अपमान लेगीत सोसचो पडलो. मनातले हे उत्फर्के कोणाक तरी सांगपाक जाय आशिल्ले. 'काणकोणची लोक कला एक दायज' ह्या पुस्तकाचो जल्म जालो नाशिल्लो जाल्यार 'अंजदीव ते अंदमान' चे बरोवप जायनाशिल्लो. अंजदीव ते अंदमान ही लेखमाला नवप्रभा दिसाळ्यातल्यान पयली मराठीतल्यान प्रसिध्द जाल्या. दिसाळ्याचे संपादक भौ. सुरेश वाळवे हाणी ही लेखमाला प्रसिध्द करून म्हाका उपकारांत दवरला. मुळातच कोकणीचो मराठीत अणकार करून पयली ताका प्रसिध्दी दिल्या उपरांत वाचकानी जो प्रतिसाद दिलो ताका लागून पुस्तक रुपान तो प्रसिध्द जावचो अशें दिसले. ह्या भोंवडेची सुरुवात खंय जाता, कशी जाता हाका चड महत्व दिल्ले ना. पूण शेवट मात अंजदीवाक केल्लो आसा. पळौवपाक गेल्यार ह्या भोंवडेचे वर्णन लांबोवंक येतालें पुणूण वाचप्यांचो अंत पळौवपाची म्हजी तयारी ना.

ही नुसती भोंवडी न्हय. म्हजी ती व्यथा. म्हज्या कलाकार वांगड्यांची ती कथा. ह्या भोंवडेक खूप लोकांची मदत मेळल्या. रवाची कोणशांनी, काट्यांच्यो वाटो माड्डीत ही भोंवडी जाल्या. ह्या भोंवडेक ज्या लोकांचे सहकार्य मेळ्ळे त्या लोकांची नावा खयंच दाखयली ना. बऱ्याच वेळार लागसल्या लोकांक विसरप जाता. तशें घडचे न्हय हे बासत नावां टाळल्यात. जी नावा आसात ती काल्पनिक आसात. तांच्यो भावना सांभाळपाच्या नजरेन हो यत्न.

'काणकोणची लोक कला एक दायज' ह्या पुस्तकाच्या म्हालवजाचेरच कोकणीतले हे दुसरें पुस्तक तुमच्या मुखार येता. ही भोंवडी जाता तितली ल्हान करपाचो म्हजो यत्न आसा. पयली तीरूपतीक वचून आयल्या उपरांत समराधना वाट्टाले, ताका 'म्हामदी' म्हण्टाले. भोंवडेक वतले जाल्यार त्या काळार आतां सारखी कसलीच सादना नाशिल्ली. जीवो येतलोच हाची शाश्वती नासताली म्हणून केल्ली ती म्हांमदी. आपले सोयरे दायरे, शेजारी, पाजाऱ्यांक सगळ्यांक आफोवन घाल्ली ती म्हांमदी.

हे पुस्तक म्हळ्यार अनुजित प्रकाशनाचें तिसरें अपत्य. अनुजित प्रकाशनाच्यो प्रकाशक सौ. सुखदा पैंगीणकर हाणी हे पुस्तक प्रकाशित केला. भौ. शिरीष पै हाणी हात बरप वाचला, तातूक सुदारणा केल्यात. बेळगावच्या इंप्रेशन प्रिंटींग प्रेसान छापला जाल्यार आमगेले काणकोणचे चित्रकार भौ. श्रीनाथ पागी आनी सौ. रेश्मा पागी हाणी मुखपत्राचे काम केला. हांव तांचो उपकारी.

अंजदीव ते अंदमान ह्या भोंवडेच्या उपरांत सगळ्या वाचप्यांक म्हांमदी वाडपाची हांव वाट पळयता.



# बरपावळ



सेल्युलर जेलांक ज्या कोठडेक सावरकरांक दवरिल्ले त्या कोठडेतलो फोटो
अंदमानच्या सेल्युलर जेल वाठांरातले हुतात्मा स्मारक



हैदराबादचे एन टी आर गार्डन

# मांड सोडतान...

वर्स १९७५. आमगेलो गांवभाव भौ. पांडुरंग फळदेसाय हाणें फुडाकार घेवन लोक वेद आणि लोक संस्कृतीचें पुनरूज्जीवन करपाचे दिकेन यत्न सुरू केले. आनी तरणाट्या भावांकडेन आपल्या मनांतले उत्फर्के मांडले. जाण्टेले लोक करमलघाटा पेल्यान केन्नाच पावले नाशिल्ले. तें जगच तांकां खबर नाशिल्लें. तो काळ लेगीत तसोच आशिल्लो. गोंयची मुक्तताय जावन चड न्हय. १०-१५ वर्सांच जाल्लीं. शिक्षणाचो प्रसार तशेंच प्रचार लेगीत फावो तितलो जालो नाशिल्लो. भाटकारशाहीच्या चेपणासकयल आमचे जाण्टेले चेपिल्ले. पाखल्यांच्या जुलमान, गरिबीचे त्रास सोशीत कशे तरी दीस काडटाले. तरी लेगीत शिगमो चलतालो. धालांचे मांड फुलताले. फुगडी चलताली.

शिगमो चलतालो म्हळ्यार कितें? वर्साचे पांच दीस देवाखातीर उक्लासाक काडपाचे. गांवांक मेळ काडपाचो. नाजाल्यार मांडाचो नास खुबळटलो. खुटी राग धरतली. म्हाजन दुखतले. म्हणून तर शिगमो काडपाचो. अशेच दीस चलताले. देवाच्या कामाक लुडबूड करपाची कापस्ताद कोणाकच जायनाशिल्ली. ह्या शिगम्याच्या खेळांक बदल करपाक जाय. तातूंक सुधारणा करपाक जाय. शिस्त हाडपाक जाय अशें दिसतालें. पुणून 'तुमी शिकल्यात आणि चड शाणे जाल्यात' अशीं जाण्टेल्यांलीं उतरां आयकुवपाक मेळटालीं. पूण पांडुरंग फळदेसायान हो विशय काडलो. ही आमची लोक संस्कृताय तिगोवन दवरपाक जाय. तातूंक थोड्या प्रमाणाक शिस्त हाडपाक जाय अशें सांगलें. तेन्ना आमी सगळे ल्हान पिरायेचे. जाण्टेल्यांनीय पांडुरंगाचे सूचनेक हयकार दिलो. लोक वेद, लोक संस्कृती किदें हेंच आमकां खबर नाशिल्लें.

वाड्यावेले १०-१५ भुरगे एकठ्यांय आयले. एकट्यान घुमट, जाल्यार दुसऱ्यान शमेळ हाडलो. कोणाकडेन कासाळें आशिल्लें. पांडुमामान तान मारली. विठ्ठलान घुमटाचेर थाप मारली. शमेळाचेर बडयो तरतरपाक लागल्यो. सगळ्या भुरग्यांनी

फेर धल्लो. अरे ! हो तर शिगमो. आमचो मेळ. हाकाच संस्कृताय म्हणटात.? हय. होच लोक वेद. आनी तेन्ना साकून ही भोंवडी सुरू जाली. ही भोंवडी थांबली ना. लोक वेद तिगोवन दवरपाक जाय? अरे ही आमच्या जाण्टेल्यांली मिरास. ती कशीच सोपपाची ना. मरपाची ना. आमच्या जाण्टेल्यांक ती शिकयली कोणें? तेन्ना शिकप तरी खंय आशिल्लें? मास्तर खंय आशिल्लो तेन्ना? इतली बुध्द त्या वेळार आमचे लागीं तरी खंय आशिल्ली? आमी फक्त आयकुवपाचें. उलयतल्यान उलयत रावप आनी आयकतल्यान फक्त तकली हालोवप असो तो काळ.

गोंयचे कला अकादमीची थापणूक जावन एक-दोन वर्सांच जाल्लीं. लोक संस्कृताय, लोक वेदाच्या रुपान कला अकादमीक भांगराचो हांडो मेळिल्लो. तो हांडो, पयस पसरिल्लें दायज एकठ्यांय करपाक कोणें तरी मुखार सरपाक जाय आशिल्लें. आमच्या गांवच्या तरणाट्यांनी तो मान पयलीं घेतलो. किदें घडटा, मुखार किदें जातलें हाची आमकां जाणीव कांयच नाशिल्लीं. तालमी चलताल्यो. खेळ आमचो. संस्कृताय लेगीत आमची. पुणून तातूंक शिस्त हाडपाक जाय आशिल्ली. एका धाग्यांक ती बसोवपाक जाय आशिल्ली. तें बेस-बरें काम पांडुरंग फळदेसाय हांणी केलें. तो एक जातीवंत कलाकार. कला तांच्या घरांतच खेळटाली. विसव घेताली. तो केन्ना तरी हरीदास जातालो. केन्ना तरी सुत्रधार जातालो. केन्ना शमेळ वाजयतालो. कासाळें वाजयतालो. पदां म्हणटालो. खुणेन सुचयतालो. जाण्टे, नेण्टे, सगळे एकठ्यांक जातालें. फाल्यांचो भविष्यकाळ, फाल्यांची फांतोड हांगा लिपलेली आशिल्ली. तालमी चलताल्यो कोणाचे तरी चौकेर, सोप्यार, देवळाच्या प्राकारांत. गाणेली गायताले, वाजोवपी वाजयताले. वाड्यावेले लोक न्हय त्या वेळार घुमटां शमेळाचो आवाज कानांर पडना फुडें आपसांत उलयतालें शिमग्याचे दीस खूब फुडें आसतना हें किदें चल्ला? शाळा शिकपाचे हे दीस. मागीर हीं पोरां किदें करतात? असो विचार त्यांच्या जाण्टेल्यांच्या मनांक येतालो. पूण फाल्यांची फांतोड हांगा आसा हें तांकां खबर नाशिल्लें जावंये.

कला अकादमी म्हळ्यार किदें? ताचें काम किदें? आनी ती कोण करता? इतली समजुतकाय त्या वेळार आमकां तरी खंय आशिल्ली? अशेच दीस वताले. तालमी चलताल्यो. एक दीस कला अकादमीचे भौ. विनायक खेडेकार गांवांक आयले. गोमंतक दिसाळ्याचे तेन्नाचे संपादक भौ. माधवराव गडकरी बरोबर आशिल्ले. वामनबाब रामकृष्ण हांचो आस्पाव आशिल्लो. किदें तरी ते उलयताले. आमी ल्हान भुरग्यांनी जाण्टेल्यांच्या मदीं पडप ना. पुणून मागीर समजलें. कला अकादमी लोककला महोत्सव भरोवपाक सोदता आणि तो लेगीत पैंगिणीक. गोंयचो पयलो लोक कला महोत्सव. काणकोण म्हालांक विंगड विंगड वाठारांक ज्यो कला शिंपडिल्यो आसात, तांचो मेळ. इतले दीस कोणाच्या तरी आंगणांत ना

जाल्यार चौकेर चलपी लोकांनाच आतां स्टेजेर दाखोवपाचे आनी ते लेगीत गोंयच्यां म्हान हस्तींच्या हजेरींक.

महोत्सवाचो दीस थाल्गो. सगळ्यांकच उमळशीक आशिल्ली. म्हाल पांवड्यावेल्या हेर लोकांचे नाच आमी तरी खंय पळयिल्ले? ह्या निमतान तरी आमकां सगळी कला एकठ्यांय पळोवपाक मेळटली म्हणून उमळशीक. दोन दिसांचो उत्सव. काणकोणच्या कोमरपंत संघाचो तोणयांमेळ, आमोणें, येडा वाठारांतल्या वेळीप भावांची चौरंग, मार्शेच्या आगस वाड्यावेल्या भावांची तालगडी, पेरू लोलयेंकार हांचें घुमट वाजप, मधुकर नाईक हांचें शेनाय वाजप, गोपाळकृष्ण गायक, उमेश गायक हांचें पंच वाद्य, घुमट शमेळ नासतना तोणयांचेर चलपी तोणयांमेळ, कांय खीण महाभारत, रामायणातले पुराण कथेकडेन नदर मारपाक लावपी श्रीस्थळच्या कलाकारांचो शंखासूर कालो, रातकालो, महिला कलाकारांचीं मनां रिझोवपी फुगडी, धालो, मोरूले, सारकेले विंगड विंगड प्रकार पळयले. आनी लोक संस्कृतायेचें खरें स्वरूप, दर्शन त्या दिसांत घडलें. १९७५ सालाक जाल्ल्या त्या खिणाची याद आज लेगीत आसा. हे भोंवडेंक तेन्ना साकून सुरवात जाली.

* * *

# माय इंडिया युथ फेस्टिव्हल

आमच्या नाचाचो पंगड मद्रासाक चल्लो! एक दीस पांडुरंग फळदेसाय हांणं तालीम चलतां चलतां हळूच सांगलें. इतलें दीस ज्याका आमी शिगमो किंवा मेळ म्हण्टाले, ताचें नांव आतां 'सांस्कृतीक पथक' अशें जालें तर, हांवें मनांकच म्हळें

आयज विभक्त जाल्ली कला आनी क्रिडा हीं दोनीय खार्ती त्या वेळार एकठ्यांय काम करतालीं. कला अणि क्रिडा संचालनालय या नांवासकयल तांचं कार्यावळ चलताली. युवा खात्यान मद्रास शहरांत माय इंडिया यूथ फेस्टिव्हल हाचें आयोजन केल्लें. गोंयचे लोक संस्कृतायेचें दर्शन दाखोवपाची पयली संद आमकां मेळटा, हाचे सारकिल्लें भाग्य दुसरें नाशिल्लें. २१ दिसांचो प्रवास. सगळ्या देसांतले तरणाटे त्या मेळाक जमपाचे. कला अकादमी तशेंच कला आनी क्रिडा खातें संयुक्त पणान या मेळांत भाग घेतालीं. गोंय सुटके उपरान्त गोंयची, काणकोणं म्हालांतली लोक संस्कृताय गोंयांभायर सादर करपाची संद आमकां फावो जाली. पयलो मान आमचो.

आमी चल्ले! आमचे भाव मद्रासाक चल्ले!२७-२८ वर्सां पयलींची ही खबर. वाड्यावेल्या प्रत्येक मनशामदीं उत्साहाचें, उमेदीचे वातावरण पसरिल्लें. जे भुरगे खेळपाक वचपाचे आशिल्ले ताचे परस जे घरा रावपाचे तांकां चड उमेद जाल्ली. ज्या जाण्टेल्यांनी करमल घाट पेल्यान किदें आसा तें पळयलें नाशिल्ले आनी तांची भुरगीं मात मद्रास. खंय पडलो तो प्रदेस? कितले दीस लागतले? जेवण कसलें आसतलें? त्रास बी जावचो ना मू? अशे नाना प्रश्न चलताले. ताका लागून प्रत्यक्ष ज्या दिसाक आमचे कलाकार भाव भोंवडेक भायर सल्ले त्या दिसा जाण्टेल्या दादले बायलांनी निरोप दिवपाक गर्दी केल्ली. कोणें वाटेच्या खर्चाक खावपाखातीर लाडू, फोव करून दिल्ले. कोण दुकां पुसताले. काम धंद्याच्या निमतान एक-दोन जाण वाड्याच्या भायर गेल्ले पुणून मेळ दाखोवपाखातीर आपलीं भुरगीं मद्रासाक वतात हाचो तांकां अभिमान दिसतालो. हाचे पयली तांचो मेळ गालजीबाग तळपण

मेरेन वतालो. सगळ्यो शिमो हुपून तो दुसऱ्या राज्यांक पयलेच फावट वतालो. भुरगे मात खूश दिसताले. भोंवपाक मेळटलें. गांवांपसून पयस. लोक संस्कृतायेची ही पयली भोंवडी. मद्रास! आमच्या बरोबर जाण्टे पिरायेचो कृष्णमाम, पांडूमाम,कामणूमाम जशे आशिल्ले तेच वर्री १७-१८ वर्सां पिरायेचे भुरगे आशिल्ले. पयलो दीस बेंगलोराचो. पयलेच फावट बेंगलोराक पाविल्ले. रातची ट्रेन आशिल्ली. कोणें मर्दी म्हळे बेटोच वेळ वगडावचे परस पिक्चराक वचुंया. थिएटर ए. सी. आशिल्ले. भायर गरमी. पिक्चर सुटले उपरांत आमचे मर्दी आशिल्ले जाण्टे लोक उलयताले ''भितर गेल्यार झेलांक घातिल्ले वरी जाता आनी भायर आयल्यार उज्यांक पडिल्लेवरी जाता.'' !

जेवणाची, रावपाची सोय सामकी व्ही. आय्. पी. बशीचो थोडो प्रवास करचो पडटालो. आमच्या बोल्साचेर डेलिगेट हें कार्ड आशिल्लेंच. मद्रासाक बशीनी एके वटेन खास बायलांक जागो दवरिल्लो आसता. बोल्साचेर बॅच. अशे परिस्थितींक कांय तरणाटे बर्सीत चडले. सिटां रिकामी. कांय दादले उबे. सिटां रिकामी पळोवन आमचे कलाकार सरळ सिटांचेर बसले.उबे आशिल्ले लोक पळयताले. कांय हांसताले. कित्याक तर तीं सिटां खास बायलाखांतीर आशिल्ली.

· दक्षिण भारतांक हिन्दी भास कळून लेगीत उलयनात. थोड्यांक इंग्लेज भास समजता पूण उलयनात. आपले भाशेत्तो अभिमान धरपी हे लोक. ताका लागून एका रिक्षावाल्यान आमकां सगळें मद्रास शार भोंवडायलें. आनी आमची वाट पळयत बशिल्ले गांवभाव हो प्रसंग आज लेगीन याद करतात.

* * *

# हिमांचलांतले ते दीस

गोमांचल ते हिमाचल. खंय गोंय आनी खंय हिमाचल. ह्या हिमाचल प्रदेशांक सांस्कृतिक कार्यावळ सादर करपाची संद मेळ्ळी. दसऱ्याचे दीस. कुलू, मनाली, नहान, सिमला या वाठारांक गोंयचे लोक संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपाखातीर ज्या पथकांची निवड गोंयच्या कला आनी संस्कृती खात्यान केल्ली, त्या पथकांक आमच्या कलाकारांचो आसपाव जालो. पणजी, नेरूलच्या कलाकारांवांगडा काणकोण म्हालांतले कलाकार, असो हो समेळ. सगळी भोंवडी बशीनच करपाचें थारलें. पणजी ते चंदीगड मेरेन गोंय सरकारची आराम गाडी. हाचे पयलीं एक दोन वेळा जो प्रवास जाल्लो तो रेल्वेन. रेल्वेचो प्रवास मन रिझोवपासारको आरामशीर. बशीच्या प्रवासाचो लेगीत अणभव घेवपाक जाय म्हणून ही तजवीज. हिमाचल प्रदेशांक लोक संस्कृतायेचें दर्शन दाखवोपाचे दिकेन तयारी सुरू जाली. सगळें कशें नवें ताल्लु करपाचें. नवो पोषाख, नवीन हातेरां. पथकाचो मुखेली हे दिकेन म्हजो पयलोच अणभव. हाचे पयलीं सहकलाकार जाल्यार हे खेपेक मात मुखेली म्हणून जबाबदारी वाडली. दनपरां दोनाक पणजेच्यान बस सुटपाची. सकाळीं पयले बशीनच पणजे वचपाक भायर सरले. तेखातीर १२ वांगडी कलाकार. प्रकार मात सात. नवो प्रदेश पळोवपाची उमळशीक.

बशीचो प्रवास तसो त्रासाचो. रेल्वेसारको न्हय. चड करून प्रात:विधी सारक्या गोष्टीं खातीर चलयांची गैरसोय. तातूंक राजस्थान सारक्या वाठारांतल्यान बस वचपाक लागली तेन्ना कडक गरमेचो अणभव. जेवणाची गैरसोय. ह्या पथकाच्या वांगडा पणजेचे लोककलाकार तिमोतिओ फर्नांडीस आशिल्ले. कला संस्कृती खात्याचे आश्विन लोटलीकर, कमलाकर नायक हे अधिकारी आशिल्ले. सकाळची वेळ. बस न्हंयचे देगेर पावनाफुडें तिमोतिओन बस थांबयली. कलाकारांक ऑर्डर दिली. चले एके वटेन आनी चलयो एके वटेन चलात. सकाळची संडासाची सोय अशे तरेन भागयली. रेल्वेक हे आडखळे उरनात. पूण नवो अणभव जो फुडले जिणेक उपकाराक पडपासारको.

चंदीगड मेरेन गोंय सरकाराची बस आनी ते उपरांतचो प्रवास मात ल्हान मिनी बसीन करपाचो हें पयलींच थारिल्लें. थारिल्या वेळेनुसार बस चंदीगडाक पावली. त्याच जाग्यार बस थोपोवन हिमाचलाचो प्रवास दुसरे बसीन सुरू जालो. कडक थंडी, मर्दींच धुकें, मुखावेलो रस्तो धुक्यान धवोफुल्ल, मर्दींच आयसाच्यो न्हयों. मर्दींच रस्त्याच्या दोनीय वटेन दिसताले सफरचंदाचे मळे, भिरांकूळ अश्यो दऱ्यो, नदर लेगीन पावना अश्यो. बशीच्या टपार लेगीत बसून प्रवास करपी लोक. अशें चित्र पयलेच फावट आमी पळयताले.

आमच्या देसाची, निसर्गाची सोबा वाडोवपी सिमला, कुलू, मनाली, न्हान हे वाठार. भास वेगळी, भेस वेगळो, काट्याकुट्यांनी, वळणानी भरिल्लो रस्तो. भुरग्यांक सामानाची पोटली कशी फाटीर मारून गरिबकायेन भोंवपी हिमाचलाच्यो बायलो हें दृश्य पळोवपाक बरें दिसतालें. आनी खंय तरी मनाचे खांचेक आमी भारतीय हाची जाणविकाय जाताली. आमच्या वांगडा चलयो आशिल्ल्यो. हिमाचल सांस्कृतीक खात्याच्या अधिकाऱ्यांक पट्टालें, दिसतालें की तांचें जेवण आमकां आवडना. एक दीस ताणें नुस्ते हाडले. मसालो तुमीच तयार करात तुमकां जाय तसलें हुमण करात हें सांगलें. कलाकार चलयांनी नुस्तें उजरायलें. बरे भशेन हुमण केले. जेवपाच्या वेळार चलयांच्या ताटांत पडिल्लें नुस्तें चलयो कोणच खावपाक तयार नात. दर एकट्यान चल्यांच्या ताटांक  नुस्तें घालें. चल्यांनी सगळ्यांनी ते खाले. जेवणाच्या उपरांत चलयांक नुस्तें खायनास्तना रावपाचें कारण विचाल्लें जाल्यार तीं सांगतात, तुमी जे खाल्ले ते 'दिवड फीश.' दिवडाचें नांव आयकना फुडें ओंकारे येवपाक  लागले, दिवडासारको लांब, गोलाय आशिल्लो, साव्या नुस्त्याचो तो प्रकार पळोवन चलयांनी खालो ना. त्या नुस्त्याक नवें नांव दिलें 'दिवड फीश'. चल्यांनी मात उमेदीन आनी घोस्तान खालें.

हिमाचलाक बर्फाच्यो न्हंयी व्हांवतात. पळोवपाक उदक सादें अशें दिसता, पूण उदकांक पांय घाल्यार वयर सरपाक जायना. हाची याद काडल्यार लेगीत भंय दिसता. पेंवपाखातीर उदकांक बुडकी माल्ली त्या वेळार म्हज्या शेजराक आशिल्या म्हज्या सहकलाकारान जर म्हाका उदकांतल्यान वयर काडुंनाशिल्लो जाल्यार किदें जावपाचें हाची याद जाल्यार लेगीत काळीज बर्फासारकें घट्ट जाता.

* * *

# नानू शेण्टा तेन्ना

तिरूपतीच्या बालाजीचें दर्शन घेतल्यार जल्माचें कल्याण जालें अशें मानपी लोक आज लेगीत आमगेल्या गांवांक मेळटात. हाचे पयली तिरूपतीक वचून आयले उपरांत म्हामदी वाडपी लोक आशिल्ले. गोंयची लोक संस्कृती आंध्र प्रदेश राज्याचे भोंवडेर वचपाचें थाल्लें. त्या निमतान का जायना पूण तिरूपतीक वचपाक मेळटलें हाची जाणविकाय जायनाफुडें म्हजे वांगडी जाम खूश. तातूंकच सरकारी पाव्हणे म्हळ्यार इल्लोसो मान चड. सवलती बऱ्यो. देवाच्या दर्शनाखातीर ज्यो रांगो लागतात, त्या रांगांनी उबें रावनास्तना सरळ मुखावेल्या दारांतल्यान दर्शनाक वचपाची संद. तें लेगीत सामकें नेटान.

तिरूपतीचें दर्शन घेतलें. विंगड विंगड कलांचे, विचारांचे वांगडी आमचे मर्दी आशिल्ले. तिरूपतीचो तो भव्य असो वाठार पळोवन दोळे दिपकताले. दर्शन घेतले उपरांत  आमच्या भितरले कांय वांगडी दर्शनाक लागिल्ल्यो हेर लोकांच्यो रांगो पळयताले. कांय जाण बाजारांक माल विकतो घेवपाक , पळोवपाक लागले, कांय जाण देवळाची कला कुसर, जाल्यार कांय थोडे भटांक पळयताले. केंस कापप्यांक पळयताले. केसांच्यो पडिल्यो राशी पळयताले. इतल्यांक कोण तरी ल्हवूच उलयलो, नानू दिसना. हो नानू म्हळ्यार एक विचित्र वल्ली. ताका खबर नाशिल्ली एकय गजाल नाशिल्ली. सगळें ताका कळटालें पूण वाचूंक आनी बरोवपाक कळनाशिल्लें. नाटकांत बरीं कामा करपी. अनाडी आसून लेगीत भाषण तोंडपाठ. नानू दिसना म्हणनाफुडें सगळेच भियेले. थोड्या वेळापयलीं तिरूपतीचें दर्शन घेतले उपरांत सामके उमेदीन आशिल्ले वांगडी बेळशेले. खंय गेलो नानू? ताका कोंकणी खेरीज बाकीच्यो कसल्योच भाषा धड उलोवपाक येनात. तातूंक दक्षिण भारतांत तांचे राजभाषेखेरीज बाकीच्यो भाषा कळता आस्तना लेगीत ते लोक उलयनात. जण एकटो नानूक सोदपाक लागलो. कोण खाणावळींत, जाल्यार कोण केंस कापून  घेतात त्या जाग्यार. विचित्रच तो. ताका कोणेंच आपल्या नाकाक हात लायिल्लें  खपना आशिल्लें. तापतालो तो. ताचोच फायदो घेवन कोणें

तरी ताच्या नाकाक हात लायलो. काळ वेळ पळयनास्तना आमी पर राज्याक आसात हाचें भान दवरिनास्तना नानू गायब.

कला आनी संस्कृती खात्यान घडोवन हाडिल्ले आंधप्रदेश राज्याचे भोंवडेर आमचो पंगड आशिल्लो. सगळे सामके उमेदींत. विशाखापट्टण, अनंतपूर ते हैदराबाद तिरूपती वट्ट मेळून जाग्यार कार्यावळी जाल्यो. तिरूपतीच्या बालाजीचें दर्शन घेवपाक मेळटलें, हैदराबादचो सालारजंग पॅलेस, बिर्ला मंदिर, चार मिनार पळोवपाक मेळटलो, आदले राष्ट्रपती नीलम संजीव रेड्डी हांचो जल्मगांव अनंतपूर हांगा वचपाक मेळटलें, कर्नाल, कुडाप्पा, सारकिल्या इतिहासीक थळांक भेटी दिवपाक मेळटलें, पोन्नी देवळां पळोवपाक मेळटलीं हे खोशयेंत आशिल्ले सगळे कलाकार नानू गायब जाल्ल्यान निरशेले. जितले उमळशिकेन बालाजीचें दर्शन घेतलें, ती उमळशीक निरशेली. नानू नास्तना मुखावेलो प्रवास करप कसो? कोणें तरी सुचयलें मायकावेल्यान सांगया. पोलिसांचो आदार घेवन मायका म्हन्यांत वचून जाहीर केलें, नानू तूं यो, आसा थंयच्यान यो. पूण ताका तांची भास खयं कळटा? शेवटाक आमचे भाषेंतल्यान ताका उलो माल्लो, नानू तूं परत यो. तुज्या नाकाक हाचे फुडें कोणच हात लावचो ना. सगळे वांगडी कलाकार बसीच्या म्हन्यांक थपकल मारून बसले. तकलेंक एकच विचार. नानू.!

इतल्यांक गाड्येच्या टपाचेर हालिल्ले वरी कोणें तरी पळयलें. एकटो वांगडी धांवतच टपाचेर चडलो. टपाचेर दोन ताडपत्र्यो आशिल्यो. हो पळय, नानू हांगा न्हिदला. वेल्यानच वांगड्यान सांगलें. नानूक उठयलें आनी अजाप म्हळ्यार कांयच घडूंक नाशिल्लेवरी बसीच्या टपावेल्यान सकयल देंवलो. आमी मात चिंतेक. नानू देवना फुडें सांगता, म्हजीं हीं दोन बोटां आसल्यार पुरो, हांव खंय गेल्यार मरचों ना. तुमी सगळे म्हाका पिकार करतात. हांव तुमच्या बरोबर येवपाक तयार ना नानूक पिकार केल्ल्यान आमकां जें भोगचें पडलें ताची याद आज लेगीत जाता. कलेचो आदर कसो करप आनी भायल्या राज्यांतल्यान भेटीर आयिल्ल्या कलाकारांक कशें सांबाळप आनी वागोवप हाचो एक बरो अणभव ह्या राज्यांक गेले उपरांत जो मेळिल्लो तो नानूच्या उतरांनी खंयच्या खंय गेलो. थारलें, नानूक पिकार करप ना.

* * *

# उत्तरांचलचो थयथयाट...

ज्या राज्यान आमच्या देसाक स प्रधानमंत्री दिले त्या उत्तर प्रदेश राज्याची भोंवडी खूप नदरेन यादीक उरपासारकी जाली.उत्तर प्रदेशांक सैमान दिल्लें दायज जशें पळोवपाक मेळ्ळें तेच वरी ह्या राज्यामदल्या कलाकारांनी संगीत, कला नाच ह्या क्षेत्रांक जें नांव मेळयलां तार्चे दर्शन लागीच्यान पळोवपाक मेळटलें ह उमळशिकेनच जीव धादूस जाल्लो. शिंयांचो कुडकुडो, गारांचो पावस ह्यो गजाली आज मेरेन फक्त पुस्तकांक वाचिल्ल्यो. ह्या सगळ्या गजालींचो अणभव घेतनाच रामपूर, सितापूर, भरतपूर, कानपूर, लखनौ अशी पुराणकाळांतल्या म्हान पुरूषांची याद करून दिवपासारकीं शारांक आशिल्लीं नावां. दर एक शारांतलो अणभव खेरीत

उत्तर प्रदेशांतल्या दर एक वाठारांक थळाव्या लोकांचो उत्फूर्त असो प्रतिसाद कलेचें चीज करपी, जाणकार लोक. मुरिल्ले कलाकार. ह्या सगळ्यां परस ऊरइ वाठारांक जो अणभव मेळ्ळो तो सदांच यादीक दवरपासारको. त्या वाठारांव पयलीं फुलनदेवी खंय परथून परथून येताली. गांवगिरो वाठार .गच्च एकमेकांव लागून आशिल्लीं घरां. खंयचे तरी कॉलेजीचे स्टेजेर कार्यावळ थारायली. लागसा कलाकार वांगड्यांच्या राबित्याची वेवस्था. वट्ट मेळून ४० कलाकार. वांगड्य भितर अद्‍र्यो चलयो. पयल्या दिसाची कार्यावळ सोपले उपरांत सांजेच्या सुमा पांच वरांचेर ऊरई या वाठारांक पंगड पावलो. वांगडी कलाकारांची बस उर पावना फुडें पोरां तोरांची वांगडी कलाकारांक पळोवपाक गर्दी. पयलीं गांवांव डोंबारी येतालो, ताका पळोवपाक सान भुरगे गर्दी करताले. तो वता थंय फाटल्यान वयताले तशे.

या वाठारांक मनीस रावनात. आनी पयल्याच फावटीं तांणी मनीसजात पळयल्या अशे तरेन तरणाटे, ल्हान पोरां, जाण्टे पिरायेचे लोक पारखिताले तरणाट्यांच्यो नदरो विचित्रच दिसताल्यो. ही सगळी परिस्थिती पळेनाफुडें आमक मात दुबाव दिसलो. चले आनी चलयांक खेरीज रुमांक दवरिल्ले. प्रवासाच्या त्रासान वांगडी थकिल्ले. जण एकलो कपडे बदलप, न्हावपाक वचपाचे तयारेक लागिल्लो इतल्यांक आमच्या वांगड्यापैकीं एकटो आयलो आनी ताणें सांगलें, चलयांच्य रुमांक जनेलाच्या बुराकांतल्यान कोण तरी पळयता. हांवें आमच्या मुखेल्याक



पश्चिमालाप कार्यावळेच्या वेळार



ग्वाल्लेरच्या दौऱ्याच्या वेळार
सिंदियावाड्या सामकाराक



दिल्लीच्या धर्मभुवना लागी हेर राज्यांतल्या कलाकारांवागडा.



कलाकार भाव स्टेजेर येवचे पयली

ही गजाल कळीत केली. भायल्यान येवन पळयल्यार सात आठ तरणाटे वीर एकामेकांचेर चडून, बरोबर निसण घेतल्या आनी चलयांच्या रुमांत पळयतात. सामके तवनास कशे. आमी पळयाना फुडें तरणाटे पयल्यान गेले. पूण हे घडणुकेन चलयो भियेल्यो. जागो बदलुंया म्हणपाक लागल्यो. पूण ही गजाल शक्य नाशिल्ली. उत्तर प्रदेश राज्यांतल्या संपर्काधिकाऱ्यांच्या कानांर ही गजाल घालिनाफुडें तांणी एक दोन पोलिसांची व्यवस्था केली. आमच्या कलाकार वांगड्यांनी ती रात जागून काडली. रुमाक भायल्यान कुलूप लायलें. परक्या राज्यांत आमी आशिल्ले. चड शाणेपणा करप शक्य नाशिल्लें. आमगेल्या कलाकार भावंडांक राखप इतलेंच आमकां खबर आशिल्लें. रातभर चलयांच्या रुमाच्या भायर बसून आमचे दादले कलाकार वांगडी रावले.

दुसऱ्या दिसाक खंयच्या तरी कॉलेजीचे स्टेजीर कार्यावळ थारायली. पयल्या दिसाचो अणभव मतींत दवरून थळाव्या अधिकाऱ्यांनी पोलीस संरक्षण आपयिल्लें. आमी लेगीत शादूर आशिल्ले. आमचो पंगड कॉलेजीच्या आंगणांक जेन्ना पावलो, तेन्नाची स्थिती याद काडल्यार लेगीत मनीस जात कितल्या सकयल्या थरार वचपाक शकता हाची सुलूस लागता. चलयांक केन्नाच पळयलें ना, मुखावेल्यान येता ती चली फक्त आपल्याखातीरच आयल्या, चलयो वा बायल ही फक्त भोगाचीच वस्त आसा अशे भावनेन कोण हांसतात. कुरायतात, एकमेकांक खुणो करतात अशें चित्र आमकां दिसलें. ज्या राज्यान आमकां जवाहरलाल नेहरू दिले, लाल बहादूर शास्त्री दिले इंदिरा गांधी दिली, त्या राज्यांतले तरणाटे भायल्ल्या राज्यांतल्यान आपल्या भागाची संस्कृताय दाखोवपाक आयिल्या कलाकार भावंडांक फक्त भोगाची वस्त म्हण पळयतात. भारतीय संस्कृतायेची हीच आमकां शिकवण? स्वातंत्र्यान हीच बुध्द आमकां दिली? शिक्षणाची हीच सुदारणा?

आमकां स्टेजीर वचपाचें आशिल्लें. थळावे तरणाटे, कार्यावळ पळोवपाक आयिल्ल्या लोकांनी गर्दी केल्ली. आमी दोनी वाटेन चले वय करतात तशे उबे रावले. मदल्यान सगळ्या चलयांक स्टेजीर सोडलो. आमी भियेताले. आमचे एकादे चलयेक कोणेंय उकलून व्हेलें जाल्यार. पोलिस मुखार आशिल्लें पूण एक प्रकारची भिरांकूळ अशीच अवस्था निर्माण जाल्ली. कार्यावळ जाले उपरांत आमी उरई सोडलें. ताचे फुडल्यो सगळ्यो कार्यावळी खूबच बऱ्यो जाल्यो. खास करून लखनौ दूरदर्शनाची कार्यावळ, लखनौ मेळ्यांतली कार्यावळ मनाक आज लेगीत याद करून दितात. पूण दूदांत मीठ घाले उपरांत सगळें दूदच जशें वायट जाता तेच वरी उरई जिल्ल्यांतली 'ती' रात विसरूंक फावना.

* * *

# हैदराबाद शारांतले अणभव

आदले प्रधानमंत्री भौ. राजीव गांधी हांच्या यत्नान विशेष करून लोक संस्कृतायेच्या मळार जी सुदारणा जाली ती म्हळ्यार देशभर सुरू जाल्लीं सांस्कृतीक केंद्रां. सगळो देस सात केंद्रांनी वाटून घालो. अस्तंत, दक्षिण, पूर्व, उत्तर ह्या चार केंद्रांबरोबरच हेर तीन केंद्रां करून सगळ्या राज्यांक ह्या केंद्रांक वाटून घालपाचे तांचे बुध्दीची तोखणाय करपाक जाय. तातुंतल्या उदयपुराक थापणूक केल्ल्या 'पश्चिम क्षेत्र सांस्कृतीक केंद्र' आनी हैदराबादेक सुरू केल्ल्या दक्षिण मध्य सांस्कृतीक केंद्राच्या उक्तावण सुवाळ्याक हाजीर रावन गोंयची संस्कृताय दाखोवपाची संद मेळ्ळी.

सामाजिक दृश्ट्या म्हणा वा सांस्कृतीक दृश्ट्या दोनीय थळां सामकीं वेगळीं जरी आसलीं तरी लेगीत इतिहासाचे दिकेन जेन्ना आमी हैदराबाद वा उदयपूर त्या दोन शारांकडेन पळयतात तेन्ना खंय तरी आमकां साम्य पळोवपाक मेळटा. आमच्या देशाची अखंडता, एकचार टिकोवन दवरपाखातीर, परकी लोकांचो मार सोशीत आपलें संस्थान टिकोवन दवरपाचे दिकेन उदयपूरच्या राजपुतांचें बलिदान, ताची याद आज लेगीत उदयपुरच्या घरांघरांचेर इतिहासाची साक्ष दितात. हो सगळो वाठार उदयपूर केंद्राच्या उक्तावणाच्या निमतान पळोवपाक मेळ्ळो.

हैदराबाद शहराचो नकशोच खेरीत. त्या वाठारांतलें रावप, लोकांचें जीवन एकंदर वातावरण सगळेंच खेरीत. ज्या काळांत आमी हैदराबादेक पावले ती परिस्थिती मात वेगळी आशिल्ली. उदयपूर आनी हैदराबाद ह्या दोनूय जाग्यावेल्या केंद्रांच्या उक्तावण सुवाळ्यांक भौ. राजीव गांधी येवपाचे. उदयपुराक ते पावले ना. पुणून हैदराबादेक पावले. या दोनूय कार्यावळींच्या वेळार घडिल्ल्यो कांय यादी आज लेगीत काळजांत घर करून आसात. हैदराबाद केंद्राच्या उक्तावण सुवाळ्याच्यो तालमी चलताल्यो. हेर केंद्रावेले मुखेली, तशेंच दक्षिण क्षेत्र सांस्कृतिक केंद्राचो मुखेली तालीम पळयताले. पंगडाचो मुखेल म्हणून म्हजेर गोंयच्या पंगडांची

जापसालदारकी आशिल्ली. उत्कावणाची कार्यावळ ८ वरांचेर थारिल्ली. त्याच दिसाची गजाल. १०-११ ची सकाळची वेळ. मुखार बसून म्हज्या वांगड्यांक हांव मार्गदर्शन करतालों. घोडे मोडणी नाचाची तालीम चलताली. मुखेल स्टेजेर एन्ट्री कशी घेवप एक्झीट कशी घेवप हें कार्यावळीचो मुखेल दाखयतालो. हेर राज्यांतल्यान आपली कला पेश करपाखातीर आयिल्या सगळ्या कलाकारांची सांगड घालपाचे दिकेन तालमीक महत्व आसतालें. इतल्यांक धोलाचो आवाज बंद जालो. हांवें पळयलें, म्हजो वाजपी कलाकार सामको निरशेल्ले भावनेन म्हचे कडेन पळयतालो. हांव स्टेजीर गेलों. पळय जाल्यार धोल फुटिल्लो. धोल वा घुमट हीं आमगेलीं पारंपारिक वाद्यां. पेटी, तबलो सारकिलीं वाद्यां हेर भागांक मेळपाक शकतात. पुणून धोल? हैदराबादेक गांवठी पध्दतीन वेणी घालून सांदिल्लो धोल मेळप भोव कठीण. आनी धोल ना म्हळ्यार घोडे मोडणी जायना. सांजेच्या ८ वरांचेर उत्कावणाची कार्यावळ आनी आमच्या लागीं धोल ना. वांगडी कलाकार जे उमेदीन तालमेत रंगून गेल्ले ती उमेद खिणाभितर खंयच्या खंय गेली. धोल फुटलो हें कळना फुडें म्हाका पयलीं आयिल्लो राग कलाकार वांगड्यांचीं तोंडां पळयना फुडे निरशेलो. ज्याच्या हातान धोल फुटलो तो कलाकार भोव अपराधी भावनेन पळयतालो. जाल्यार हेर वांगडी फुडें कशें? हे नदरेन पळयताले. हांवें सगळ्यांक धीर दिलो. भियेंव नाकात. कितलेय दुडू दिवचे पडले तरी लेगीत हांव धोल हाडटां. मुखावेल्यो तालमी चालू दवरात अशें सांगून हांवें रिक्षा धल्ली. रिक्षा वाल्याक हांवें सांगलें. ज्या जाग्यार तबलें, धोलकें सारकें करतात त्या जाग्यार म्हाका वचपाचें आसा. देवाचे दयेन रिक्षावालो रसिक मेळ्ळो. हांवें सगळ्या प्रसंगाची म्हायती रिक्षावाल्याक दिली. सगळ्याच लोकांक एका मापान मेजूंक जायना. मनीसपण ही गजाल अजून लेगीत आसा. मुखेल शाराकडल्यान १०-१२ कि. मी. पयस अशा एका पोन्या दुकानाचेर त्या रिक्षावाल्यान म्हाका व्हेलो. एक जाण्टये पिरायेचो कलाकार तबलें सांदतालो. म्हजे लागीं फुटिल्लो ढोल आशिल्लो. एके वटेचें चामडें बरें आशिल्लें. धोल कसो सांदप हें पळयल्यार दिसतालें. हांवें म्हजी गजाल तबलें सारके करपी कलाकाराक सांगली. ताणें म्हज्या तोंडाकडेन पळयलें. 'घबराना नहीं मै बना के दूँगा'। या ताच्या उत्तरांनी म्हजें काळीज भल्लें. एक खरो कलाकारच दुसऱ्या कलाकाराची भावना समजुवपाक शकता. 'घबराना नहीं, हीं उतरां म्हाका लाख किमतीचीं दिसलीं. हातांक घेतिल्ले तबल्याचें काम पयल्यान दवरून म्हजो धोल ताणें घेतलो. बारीकसाणेन पळयलो. धोलाचें चामडें शिंवपाची पध्दत तबल्या सारकिली न्हय. तातूंक पारंपारिकता आसता. दुसरे वटेन आशिल्लें चामडें पळोवन तो जाण्टो कलाकार आपलीं बोटां फिरयतालो. एके वटेन म्हजे लागीं गजाली करतालो. तातूंक हैदराबाद शारांतल्यो बऱ्यो वायट गजाली म्हज्या कानार ताणें जशो घाल्यो

तेच वरी गोंयचे कलेच्या विशीं बऱ्योच गजाली म्हजेकडच्यान काडून घेतल्यो. एका तासाभितर ताणें धोल तयार करून दिलों. हांवे ताचो मोबदलो विचाल्लो ना. म्हज्या मनाक आयले तितले पयशे हांवे त्या कलाकाराच्या हातार दवल्ले. 'इतना नहीं साब. हम भी कलाकार हैं। आप तकलीफ मे हैं इसका अर्थ आपसे ज्यादा रक्कम थोडी मैं ले सकता हूँ।। ये रखो''।। तागेल्या हिशेबानुसार जी कितली रक्कम ताका मेळपाक जाय तितले पयशे दवरून बाकीचे ताणें परत दिले.

ह्यो सगळ्यो गजाली जाय मेरेन दनपारचीं दोन वरां जालीं. ८ वरांचेर मुखेल कार्यावळ सुरू जावपाची. म्हजे चिंतेन सगळेच वांगडी निरशेल्ले. म्हजीच वाट पळयताले. आनी जेन्ना धोल घेवन हांव रिक्षांतल्यान देंवलो तेन्ना सगळ्या वांगड्यांच्या तोंडार दिशिल्लो तो हांसो म्हाका खूब गजाली दिवन गेलो. कलाकार हो शेवटामेरेन कलेखातीर जगता आनी कले खातीरच मरता. ज्या कामाखातीर तो आयिल्लो आसता तें काम पुराय जाले उपरांत जें समादान मेळटा तें वेगळेंच आसता. हे भोंवडेच्या वेळारच म्हाका अभय नगर्सेकार हांच्या रुपान नवो इश्ट मेळ्ळो. दोन दोळे शेजाराक पुणून भेट ना संवसाराक अशी अवस्था अभयाच्या रुपान निर्माण जाली. गोंयांभायर कामाच्या निमतान स्थायिक जाल्लो अभय म्हळ्यार गोंय आनी हैदराबाद राज्याक सांदपी पूल. हैदराबादेक येवपी गोंयचे भोंवडेकार हांचो अभय म्हळ्यार एक आधारस्तंभ. असो एक नवो इश्ट म्हाका ह्या दौऱ्याच्या निमतान मेळ्ळो.

* * *

# अंदमानच्या देगेर

ने मजसी ने परत मातृभूमीला

सागरा प्राण तळमळला...

मळबाक लेगीत रडपाक लावपाचे, फातराक लेगीत काळीज फुटपाचे हे करूण स्वर स्वातंत्र्यवीर सावरकरांच्या तोंडांतल्यान भायर सरले. ज्या जाग्यावेल्यान स्वा. सावरकरान हे स्वर आळयले त्या अंदमान, निकोबार बेटार वचपाची संद मेळ्ळी. दक्षिण क्षेत्र सांस्कृतीक केंद्रान अंदमान बेटार व्दीप महोत्सव घडोवन हाडलो. मद्रास ते अंदमान सगळी भोंवडी बोर्टीतल्यान. हाचे पयलीं अशीच एक संद मेळिल्ली. पुणून ती कार्यावळ घडूंक पावली ना. हे खेपेक मेळिल्ली संद वगडावप ना अशें म्हज्या वांगड्यांनी थारायलें.

कशें आस्तलें अंदमान? ब्रिटीशांच्या काळांक सुटके झुजाऱ्यांक काळ्या उदकाची शिक्षा दिवपाखातीर बंदखणींक दवरपाक पयस धाडटाले तो वाठार कसो आसतलो हाचो विचार ज्या दिसा अंदमान वचपाचें म्हणून थाल्लें त्या दिसा साकून तकलेंत येवपाक लागलो. खरेंच थंयंचे उदक काळें? लोक कशे रावतात? कपडे घालीनास्तना? नागडे ? भास खंयची? रावप कशें? जेवण कशें? शिकप कशें? नाना प्रकारचे प्रस्न येताले. मद्रासाक भरिल्ल्या मेळाव्याक समेस्त देसातल्यान कलाकार भांव आयले तातुंतल्या दोनशीं कलाकार भावांची व्दीप महोत्सवाखातीर निवड जाली. मद्रास ते अंदमान, बोर्टीतल्यान तीन दीस, तीन रातींचो प्रवास. चारय वटेन काळो किट्ट दर्यो. सगळ्याक उदकच उदक. बोटीन प्रवास सुरू. मर्दीच बोट हालता. पोटांत ढवळटा. कांय वांगडी ओंकताले. पुणून बोट थांबना. उदक कापीत मुखार वचत रावता. मेल्ल्या मड्या वरवी दिसपी शांत, थंड असो हिंदी महासागर. मंर्दीच काळें, मर्दीच निळें अशें उदक. बोट मुखार वता. म्हजें काळीज मात खूब फाटल्यान गेलें. कितलें फाटल्यान? देसाचे सुटकेखातीर आपलो संवसार पणाक लावपी, स्वतंत्रतायेचें स्तोत्र गावपी स्वा.

सावरकरांची मूर्त सामकारा येवपाक लागली. कसो गेलो आसतलो सावरकर? संडासांतल्यान तांणी भायर उडकी कशी मारली आसतली? तो पेवून कसो गेलो आसतलो? ताका ज्या जेलांक दवरिल्ल्यो तो सेल्यूलर जेल. सांस्कृतिक कार्यावळी परस इतिहासीक दिकेन अंदमाना विशीं खूब प्रस्न येताले. पुणून एक लेगीत प्रस्न सुटनाशिल्लो. फकत प्रस्न....

जे बोटींतल्यान कलाकार वांगडी वताले ते बोटींक हेर प्रवासी लेगीत आशिल्ले. बोटीच्या कॅप्टनान प्रवाशांखातीर खास कार्यावळीचें आयोजन केल्लें. तांतूक खेळ, नाच, आसले. मर्दींच एरवादो सिनेमा, मर्दींच कॅरम, बुध्दीबळ सारकिल्ले बैठे खेळ, बेठो वेळ घालोवपाचे दिकेन ह्यो सगळ्यो कार्यावळी? तीन दीस? हें अशेंच चलपाचें. मनाची थाकाय....

वेळ दिश्टी पडटा रे.... कोण तरी उलयलो. खऱ्यांनीच. अंदमानचीच ती... वेळ दिसली. पोर्ट ब्लेअर, अंदमानच्या राजपट्टणाचें शार पयसुल्यान दिसतालीं. तरेकवार फुलां कशीं मांडून दवरिना फुडें दिसतात ते वरी कांय चलयांची भुरावळ हातांक फुलांचे हार घेवून उबी दिस्ताली. अंदमाना आयिल्ल्या कलाकार भावांचें स्वागत करपाक, तांकां येवकार दिवपाक. अंदमानच्या कॉलेजींतल्यो चलयो हातांक फुलांचे हार घेवन उब्यो आशिल्ल्यो. सगळे वांगडी कलाकार जाम खूश. स्वर्गार आयिल्लेवरी. इतल्यांक खाकी पोषाख केल्लो एकटो धांवत आयलो , गोवा के कौन हैं? गोवा के आमी आसात. बाकीचे हेर राज्यांतल्यान आयिल्ले कलाकार म्हज्या तोंडाकडेन पळयतात. गोंय खंय आनी अंदमान खंय? इतल्या पयस आमच्या वळखीचो मनीस... कोण आसतलो? गोंयच्या लोकांक सोदपाक आयिल्लो तो खाकी पोषाखांतलो फुडें उलयता. 'साब, ये जो गाडी है ना,साबने आपके लिए भेजा है'। आमकां गाडी? अंदमानाक? हाँ. साब '। तो परथून उलयता. कोण रे तो येदो व्हडलो मनीस...

हय. व्हडलोच तो. गोंयचे अँथनी डिसोझा. आमचे काणकोणकावर भाव, माशेंकार भाव. तेन्ना ते अंदमाद-निकोबार बेटांर पोलिस कमिशनर आशिल्ले. गोंयचे कांय कलाकार भाव अंदमानाक येवपाचे आसात हाची सुलूस तांकां लागली आनी तांणी आमचे सेवेखातीर वेळ दिवपाचें थारायलें. कितलो मोग हो गांव भावांविशीं. अंदमानच्या आयजीपीन गोंयच्या कलाकार भावांक गाडी धाडल्या, हें जेन्ना हेर राज्यांतल्यान आयिल्ल्या वांगड्यांक समजलें तेन्ना ते आमचेर बेठेच फुगिल्लेवरी रावपाक लागले. आमचे वांगडी मात्त उमेदीन आशिल्ले. अंदमानांक बऱ्या हॉटेलांची वेवस्था नाशिल्ल्यान सगळ्या कलाकार भावांची बोटीचेर रावपाची वेवस्था केल्ली. आमकां रावपाक वेगळी सुवात, भोंवपाक आयजीपीली गाडी.

मुखावेले सगळे दीस कुतूहल तशेच शोधक नदरेंतल्यान गेले. आमचे लार्गी आायजीपीची गाडी. आमकां जाय थंय, जाय त्या जाग्यार भोंवपाक मेकळीक आशिल्ली. गाडयेंक खास गाईड दिल्लो. आमकां जाय तें सांगपाक. आमकां सगळ्यांक उमळशीक आशिल्ली सेल्युलर जेल पळोवपाची, जे जेलींक आमच्या सुटके झुजाऱ्यांनी दीस काडले. पोर्ट ब्लेअर शारांकच ती इतिहासीक वास्तू आसा. बंदखण आमी पळयली. ज्या रूमांक स्वा. सावरकरांक दवरिल्लें तो रूम पळयलो. फाशी दिवपाची सुवात पळयली. सावरकरांक ज्या रुमाक दवरिल्लें त्या रुमात सावरकरांचो फोटो लायिल्लो आसा. दुसरे वटेन हाता पायांक लोखंडाच्यो साखळ्यो बांदिल्ले अवस्थेंतलें चित्र, कांय रुमांनी सुटके झुजारी दळटानाची, काम करतनाचीं चित्रां. स्वा. सावरकरांखातीर सेल्युलर जेलाक इतलें महत्व आयलें आसुं येता. ७ वाठारांनी वेठिल्लो असो हो जेल. सद्याक तीनच भाग आसात. दर्याचे देगेर बांदिल्ले हे बंदखणीचें एक वैशिष्ट्य म्हळ्यार सगळें काम फातरांचें. सगळ्यो वंटी चिऱ्यांच्यो. अंदमानातलीं हेर बहुतेक घरां लाकडाचीं. जमीन, वंटी लाकडाच्यो. ताचें कारण सगळ्यो वस्ती मुंबय, मद्रास, कलकत्ता सारकिल्या वाठारांतल्यान येवपाच्यो. खावपाक, जेवपाक लागता तें सामान लेगीत भायल्यान हाडपाचें. चारय वाटांनी दर्यो. मर्दीच हो झाडा झुडुपांनी भरिल्लो वाठार. मागीर ब्रिटीशांनी कशी उबारली आस्तली ही बंदखण.

अंदमानातलो सेल्यूलर जेल, त्या वाठारांक आशिल्लें सावरकर बंधु यादस्तीक, शाळा, हेर संस्था, स्वा. सावरकर हांच्या त्यागाची, तांच्या कार्याची याद करून दितात. लोक संपर्क आनी लोकसंस्कृती हाजे पासून बाजूक आशिल्ल्या ह्या वाठाराचो वापर ब्रिटीशांनी फक्त कैद्यांक बंदखणींक ऊडोवपाखातीर केलो. ताचे परस वेगळें पळोवपाची संद मेळ्ळी. अजून लेगीत आदिवासींचे जीवन जगपी हांगाचे लोक. भास, कपडे संस्कृताय हांचो ताळमेळ नाशिल्ले झक्क कपडे घाल्ली एकादी व्यक्ती सामकारा दिसल्यार धांवपी, रानांक आदिमानवाभशेन जीवन जगपी, वाटेर एखादो एकसुरो मेळत जाल्यार ताची लुबाडणूक करपी, भालो, धनुष्यबाण, सारकीं आयदनां वापरपी हांगाची जमात, हाचे संबंदान खूब म्हायती अंदमानाक गेले उपरांत समजली.

आमी स्वतंत्र जाले. ब्रिटीशांच्या काळांक बंदखण म्हणून वापरिल्लो सेल्यूलर जेल आयज इतिहासीक वास्तू म्हणून आमी सांबाळतात. पुणून अंदमानातल्या ल्हान ल्हान बेटांचेर आशिल्ल्या लोकांक एकठ्यांय करपाक मात आमी शकले नात. कपड्यांचे बाबतींत ज्ञान नाशिल्ले, शिजयिल्लें जेवण कशें लागता, ताची रूच कशी आसता हें खबर नाशिल्ले, सामुदायीक जीवन म्हळ्यार किदें हें जांकां खबरच ना अश्यो कांय जमाती अंदमानां रावतात हें जेन्ना समजलें तेन्ना खऱ्यांनीच आमी

स्वतंत्र जाल्यात व्हय? भारतीय म्हणून घेवपाची ताकद आमचेमर्दी आसा व्हय? अंदमान आनी निकोबार हीं स्वतंत्र  अशीं बेटां. ल्हान ल्हान बेटांचो हो समूह. खंयच्याय बेटाचेर वतले जाल्यार बोटीचो आदार जाय पडटा. चारय वटेन काळें कुट्ट उदक . राहणीमान म्हारग. सगळ्योच वस्ती भायल्यान हाडच्यो पडटात. तरी लेगीत समादानान लोक जीवन जगतात. हेर मनीस प्राण्यांपरस कितलेशेच मैल मेरेन हेर जमनीचो वाठार नाशिल्ले, ते आनी तांचें जीवन हांचे पेल्यान कांयच खबर नाशिल्ले तरी लेगीत स्वताक भारतीय समजतात.

* * *

# पॉंडेचेरिचो अरविंदोश्रम

गोंय सुटके पयलीं गोंयांत पोर्तुगीजांची वसाहत जशी आशिल्ली तेच भशेन पॉंडिचेरी ही फ्रेंचांची वसाहत. भारत देस ब्रिटीशांच्या कचाट्यांतल्यान सुटलो. पोर्तुगीजांक गोंय गोंयकारांकडेन दिवन धांवचें पडलें. पुणून गोंयांक पोर्तुगीजांच्यो खुणो आज मेरेन दिश्टी पडटात. हाका लागून गोंय आनी पॉंडिचेरी हो वाठार देसाच्या हेर वाठारांपरस वेगळेपण आशिल्लो. आपलें खाशेलेंपण तिगोवन आशिल्लो. ह्या पॉंडिचेरीची भोंवडी करपाची संद मेळ्ळी. भुगोलाचे दिकेन तशेंच आर्थिक आनी सामाजिक दिकेन सर्वसाधारण असो हो वाठार. कर्नाटक, मद्रास आनी केरळ ह्या राज्यांच्या कोपऱ्यांक दर्याचो आलासरो घेवन आशिल्लीं. सान भूभागान हेर राज्यांपरस वेगळेंपण आशिल्ल्यान सादारण गोंयचे भशेन आशिल्लो. दर्यादिगेर ल्हान व्हड नुस्त्याचे ट्रॉलर. दर्यादिगेर नुस्तें सुकोवपाक घाल्लें दिश्टी पडपी. कांय जाग्यार नुस्तें विकपाक बशिल्ल्यो गोंयचे सारकिल्यो बायलो, शीत कडयेचीं हॉटिलां, सोऱ्याचीं बार्रां, ताव्हेर्ना, रातभर उगडीं आशिल्लीं. हे चित्र सादारण गोंय सारकिल्लेंच. गोंयच्या मानान सामाजिक दिकेन मात सामकें वेगळें. शिक्षणाचो दर्जो, तशेंच उच्च नीचतेच्या प्रकाराक लागून ज्या वाठारांक आमचो राबितो आशिल्लो तो वाठार सामको मागास. पूण लोक मात दिलदार, खुल्या काळजाचे. दुसऱ्यांक मदत करपाक तयार आशिल्ले अशे.

पॉंडिचेरीचो अरविंदोश्रम, फ्रेंच वसाहतीची याद करून दिवपी तांबड्या रंगाची चर्च, निखळ शुचितेचो पारिपाक आशिल्लो अरविंदोश्रमाचो वाठार आनी तांबड्या रंगाची चर्च पळयनाफुडें मन धादुसकायेन भरून येता. कांय वैयक्तिक कारणाक लागून म्हज्या वांगड्यांक पयलीं धाडून हांवें एकट्यानच मागीर प्रवास केल्लो. बेंगलोर, मद्रास असो प्रवास करीत हांव पॉंडिचेरीक पावलों. प्रवास तसो बरो. पूण म्हजे लागीं म्हजे वांगडी ज्या वाठारांक राविल्ले तो नामो नाशिल्ल्यान आनी भाषेची आडखळ निर्माण जाल्यान पॉंडिचेरीच्या युथ हॉस्टेलांक राविल्ल्या म्हज्या वांगड्यांक सोदपाक म्हाका उणींच दोन वरां लागलीं. आखेरीक पोलिसांची मदत घेवची पडली.

दक्षिण भारतांतल्या हेर राज्यांपरस पाँडेचेरीचो वाठार निराळो. ताचें कारण पाँडेचेरीक मेळिल्ली दर्यादिग. ह्या वाठारांत स-सात कार्यावळी जाल्यो. हर एक जाग्यार लोकांची उमेद, गर्दी, आयोजकांचे परिश्रम, तोखणाय करपासारके. पर्यटनाचे दिकेन विचार केलो जाल्यार हांगा जितली प्रगती जावपाक जाय तितली जाल्ली ना. वालंकिणी ह्या धार्मिक थळाचें दर्शन घेवपाचें जाल्यार पाँडेचेरींतल्यान सामको लार्गीचो प्रवास. भाषेची थोडीशी आडखळ जर सोडली जाल्यार लेगीत हांगाची लोक जीण, सामजिक स्थिती, शिल्पकलेचो वारसो आशिल्लीं देवळां हें दृश्यच काळजांक खूब दीस मेरेन याद दवरता.

* * *

# पश्चिमालाप

भास वेगळी. विंगड विंगड वाठारांक आमी रावतात. तांचो भेस वेगळो. खाणें, पेणें भिन्न जरी आसलें तरी लेगीत एक सूर, एक ताल अशी या देसाची परंपरा. हजारांनी वर्सांची परंपरा सांगपी हो प्रदेश. तरेकवार भास उलोवपी. भिन्न भिन्न प्रांतांक रावपी. तरी लेगीत आमगेली संस्कृताय तिगोवन दवल्ली ती लोक संस्कृतायेन. हे परंपरेची जपणूक करचे दिकेन अस्तंत क्षेत्र सांस्कृतीक केंद्रांत 'पाश्चिमालाप' कार्यावळीचें आयोजन घडोवन हाडलें. गोंय, महाराष्ट्र, गुजरात आनी राजस्थान राज्यांतल्या लोक संस्कृतायांचो गोफ विणपाचे हे कार्यावळेच्या निमतान पश्चिम महाराष्ट्रांतल्या विरमगाम पुसून जालना आनी अमळनेर पुसून नाशिक मेरेन भोंवडी जाली.

विरमगाम सारक्या अस्तंत महाराष्ट्राच्या एका टोकाक वचपाचो पयलोच अणभव. पूण ते भुसावळ, मनमाड ह्या मार्गावेलो पयलोच प्रवास. विरमगामाक पावले खरे, पूण त्या वाठाराची जाय तितली म्हायती नाशिल्ल्यान आनी लोकांचो विशेष असो संपर्क नाशिल्ल्यान एक रात विरमगाम रेल्वे स्टेशनाचेर काडची पडली. रेल्वे स्टेशनच्या चारी बाजूंक बारीक पेटटाले ते दिवे. एखादे झोपडेंतल्यान येतालो तो धुंवोर. मर्दीच सुण्यान घाल्लो बोवाळ. मर्दी मर्दी रेल्वेच्या इंजिनाचो धडधडटो आवाज आनी त्या आवाजाच्या उपरांत प्रवाशांची जागो धरपाखातीर लागिल्ली शर्यत हाका लागून येतालो तो पायांचो आवाज. उलोवण्याचो आवाज कशीबशी रात काडली. पुणून ती एक रात एका वर्सा वरी दिसली. काळजाक भिरांत दिसताली. ज्या आयोजकांनी आमकां आपयल्यात ते दुसऱ्या दिसाक मेळ्ळे नात जाल्यार? परथून सगळें सामान रेल्वे वा बसींक भरून दुसऱ्या जाग्यार वचपाचो प्रसंग आयलो जाल्यार? त्याच वेळार रेल्वेच्या स्टेशनाचेर भुंयेंक हांतूण आनी मळबाक पांगरूण मानून रात काडपी ते शेकड्यांनी जीव दिसले. कसलोच आदार नाशिल्ले हे लोक वर्सभर रेल्वे स्टेशनाचेर घालयतात आनी आमी एक रात काडची पडल्यार इतलो त्रास. वैतागणें जीणें. दुसऱ्यांखातीर जगपाक शिकात. तांचे परस आमी कितलेशेच

सुशेगाद. सुखी. ह्या विचारांत रात सोंपली आनी रेल्वे स्टेशनाकुशीच्या खंय तरी झोपडेंतल्यान कोंब्यान साद घालो. दीस जालो. उठात.

विरमगाम हें रेल्वे स्टेशन तशें व्हडलें न्हय. आनी भाशेची आडखळ नाशिल्ल्यान आयोजकांक सोदपाक त्रास जालोना. ते उपरांतचे दीस कशे सोंपले तें समजलेंना. पुणून मनमाड ते विरमगाम मेरेनचो रेल्वेचो प्रवास आनी विरमगाम स्टेशनाचेर काडिल्ली ती रात संवसारात खूब बऱ्यो वायट गजाली दाखोवन गेली. याच प्रवासांक आसतना मनमाड स्टेशनाचेर गडबडेंक एक व्यक्ती आमगेल्या डब्यांक आयली. ताच्या हातांक एक सूटकेस आसली. मुखावेल्या खंयच्या तरी स्टेशनाचेर ती व्यक्ती देंवपाची. ताचें स्टेशन येनाफुडें तो गडबडेन देंवताना ताणें तागेली सुटकेस सोडून आमगेल्या एका वांगड्यांची सुटकेस घेवन तो वचपाक लागलो. कोणें तरी तें पळयलें. आनी तागेली सुटकेस ताका दिली. ताचे सुटकेसींत नव्यो ताल्ल साडयो आशिल्ल्यो. तो एका कंपनीचो एजंट. आमगेल्या वांगड्यांनी सुटकेसीची चुकामूक जाता हें पळयलें नाशिल्लें जाल्यार एक म्हयन्याचे तयारेन आयिल्ल्या आमगेल्या वांगड्यांली पंचाईत जाता आशिल्ली.

* * *

# अमळनेरची याद

'आई कल्पतरू आई माझा गुरू'

अशा आर्त सुरांनी आवयचें वात्सल्य, प्रेम तेच वरी, आवयच्या प्रेमाची जगाक ळख करून दिवपी प. पू. साने गुरुजींच्या अमळनेर वाठारांतले समादेक भेट देवपाची संद मेळ्ळी. हे समादेकडेन जेन्ना गेलों तेन्ना जगांतली सगळीं सुखां ळिल्ल्याचो साक्षात्कार जालो. अस्तंत सांस्कृतिक केंद्रान अस्तंत महाराष्ट्रांक दुसऱ्या दौऱ्याचें जेन्ना आयोजन केलें तेन्ना महाराष्ट्र हो पुणें, मुंबय, नाशिक ह्या हड शारां पुरतोच ना. महाराष्ट्राची खरी संस्कृताय खेड्यांनी भरिल्ली आसा. रभणी, जळगांव, जालना, वर्धा सारकिल्या जिल्ह्यांतल्यान जेन्ना कार्यावळी सुरू जाताल्यो त्या वेळार हे संस्कृतायेचें दर्शन घडटालें.

हे कार्यावळेच्या वेळार आमगेल्या वांगडी कलाकारांनी जेवणाची जापसालदारी सांबाळली. सांजेच्या सात वरांचेर कार्यावळीक सुरुवात जाताली. दीसभर बेकार. आमच्या पंगडांतले अशोक, मनोज हे जेवणाची जापसालदारकी सांबाळटाले. एकट्यान जेवणाक लागता तें सामान बाजारांतल्यान हाडपाचें जाल्यार दुसऱ्यान स्टोव्हाचेर जेवणाची वेवस्था करपाची. ज्या जाग्यार कार्यावळ त्याच जाग्यार राबित्याची वेवस्था आसताली. वांगडी कलाकार एखाद्या तालुक्याच्या वाठारांक पावले की पयली ह्या दोगांनीय शेजराक कोणाचें घर लार्गी आसा तें पळोवप. मागीर नाल्ल फोडपाचो, सोय कातपाची. त्या घराकडेन वचून मिरसांग वाटून हाडपाचें सगळें काम ह्या दोगांयचें. कसलो तरी रोस, भाजी, लोणचें, पापड अशें जेवण दोगूय वांगडी करून घालताले. उमेदीन.

४० दिसांच्या ह्या दौऱ्यांक हांव चड दीस रावलों ना. हेर वांगड्यांचेर जापसालदारकी घालून म्हाका गांवांक येवचें पडलें. पुणून साने गुरुजींच्या अंमळनेर वाठारांक कार्यावळ जावपाची आसा हें कार्यक्रम पत्रिकेचेर जेन्ना हांवें पळयलें तेन्ना मात खूब बरें दिसलें. हे समादेक भेट दिवपाचें थाल्लें. म्हाका साने

गुरुजींची शामची  आईची याद जाली. तांची धडपडणारीं मुले, तांच्या गोष्
गोष्टीतली सगळीं बारीक मोटीं संवंगां दिसपाक लागलीं. तांणी भारतीय
संस्कृतीच्या रुपान केल्लो उपदेश याद जावपाक लागलो. भारतीय संस्कृतींत
साकारिल्ली भारतीय परंपरेचीं चित्रां दिसपाक लागलीं. बंदखणीक आसतना मांडी
घालून बशिल्लो साने गुरुजी, आपल्या इश्टांक आवयची काणी सांगतानाचें चित्र
सामकारा येवपाक लागलें. ज्या लोकांनी प्रत्यक्ष साने गुरुजीक पळयला, तांचें
पाल या लोकांक मेळ्ळा. ते खरेच नशीबवान. ह्या पुण्यवंताच्या समाधेचें दर्शन
घेवपाची जी संद मेळ्ळ्या ती सोडपाची ना. हांवें म्हज्या वांगड्यांक ही गजाल
सांगली आनी वेळांत वेळ काडून अंमळनेराक वचपाक जाय हाची जाणविकाय
करून दिली. ही गजाल सांगतना लेगीन म्हज्या दोळ्यांतल्यान साने गुरुजींचे
यादीन दुकां गळटात हें कार्यावळीच्या मुखेल्यान पळयलें. तो बापडो
राजस्थानांतलो. कार्यावळी महाराष्ट्रांत जाताल्यो. त्या बापड्याक साने गुरूजी
कसो समजतलो? तरी लेगीत जेन्ना हांवें ही गजाल ताका सांगली, साने गुरूजी
म्हळ्यार कोण हें ताका जेन्ना सांगलें, तेन्ना ताका अंमळनेराचो दौरो रद्द करपाचें
धाडस जालें ना. हे समाधेचें दर्शन घेतलें उपरांत संसारातल्यो खूब गजाली
मेळिल्ल्याचें समादान जेन्ना म्हज्या दोळ्यांत त्या मुखेल्यान पळयलें तेन्ना तो
लेगीत धादूस जालो.

* * *

# रेल्वेस्टेशनार अडकले तेन्ना...

दक्षिण क्षेत्र सांस्कृतिक केंद्रान मद्रास राज्यांक कार्यावळीचें आयोजन धारायिल्लें. गोंयचे कला अकादमीन आमच्या पंगडाची निवड केल्ली. 'घोडे मोडणी' हो नाच घेवन वचपाचें. पळोवपाक जितलो बरो तितलोच हो नाच म्हळ्यार किचकटेचो. घोडेमोडणी लोक नाचा खातीर जितली तयारी करची पडटा तशी हेर खंयच्याच नाचाखातीर करची पडना. सामानानीच बॅगो भरतात. घोड्यांचीं तोंडां, लोखंडाच्यो ताट्यो, धोल, तासो, कपडे, कितलें सामान... हाचे पयलीं दोन तीन वेळा मद्रास राज्यांक वचपाची संद आयिल्ल्यान प्रवास वळखीचो. पुणून ज्या वाठारांक वचपाचें थंयचो नामो बरोबर मेळ्ळो नाशिल्लो. बेंगलोरच्यान मद्रास मेरेन रेल्वेन प्रवास केलो. प्रवासाची संवकळ आशिल्ली. मद्रास मेरेनचो प्रवास जाणां आशिल्लों. सांजेच्या ७ वरांचेर आरामांत मद्रासाक पावले. रेल्वे स्टेशनाचेर आयोजक आमगेली वाट पळयतले. फुडलो प्रवास करो करपाचो, खंय वचपाचें सगळें आयोजक सांगतले अशें कला अकादमीच्या मुखेल्यान कळीत केल्लें.

सांजेच्या ७ वरांचेर मद्रासच्या रेल्वे स्टेशनाचेर पाविल्ले. दीस आशिल्लो जाल्यार मुखेल कार्यालय सोदपाक तसो त्रास जावपाचो नाशिल्लो. रेल्वे स्टेशनाचेर रात काडपाशिवाय पर्याय नाशिल्लो. हो सगळो वेवस्थित नामो नाशिल्ल्यान घोळ जाल्लो. केन्ना रात सोपता आनी दक्षिण क्षेत्र सांस्कृतीक केंद्राच्या कार्यालयांक वचून चौकशी करता हाची उमळशीक लागिल्ली. दीस जाले उपरांत बेगोबेग रिक्षा धरून म्हजेलागीं जो नामो आशिल्लो त्या नाम्याच्या आदारान कार्यालयांक गेलों, जाल्यार किर्ते. रेल्वे स्टेशनापुसून ५ मिनीटांचेर हें कार्यालय आनी कार्यालयाच्या मुखेल्यान रेल्वे स्टेशनाचेर कलाकारांक व्हरपाक धाडिल्ली बस स्टेशनाचे दुसरे वटेन रस्त्यारच आशिल्ली. कलाकार एके वटेन आनी बस दुसरे वटेन. तातूंक रात. ताका लागून बस खंय आसा ती आमकां दिसली ना. आनी इल्लेशे चुकीक लागून स्टेशनाचेर रात घालोवची पडली.

गोंयच्या पंगडाचें फुडारपण म्हजे लार्गी. ताका लागून सांजवेळेच्यो का
आनी सकाळच्यो बसका हांची जापसालदारकी म्हजेकडेन आशिल्ली. ज्या ज
आमच्या कलाकार वांगड्यांची राबित्याची वेवस्था केल्ली त्या जाग्यार म
देऊळ आशिल्लें. सांजवेळची कार्यावळ. सकाळचो आदेस सामको मेकळो
येवचो न्हय म्हणून हांव म्हज्या वांगड्याक सकाळच्या वेळार भोंवपाक सो
भोंवपाक वतना एकेक गट करून वचप. परक्या राज्यांक आमी आसात
चुकून एखाद्या वेळार त्रासांक पडूं नजो हे खातीर पयलींच घेतिल्ली ही खब
आमच्या ह्या पंगडांक नानू लेगीत आशिल्लो. दर खेपे किदें तरी विचित्रपण
ही ताची सदांचीच संवय. म्हज्या दुसऱ्या वांगड्यान म्हाका विचाल्लें, नानू
बरोबर रुमांतच रावता दिसता. आमच्या बरोबर फिरपाक तो केन्नाच आयल
म्हाका दुबाव माल्लो. खंय रावता हो एक आदेसभर? हांव रुमांतच आशि
वांगड्यांबरोबर नानू लेगीत भोंवपाक वचपाक भायर सरिल्लो. कांय वेळा
लेगीत रुमाच्या भायर सरलों. मारुतीचें दर्शन घेवंया ह्या विचारांत सहज दे
भितर सल्लों. एका खांबाक तेंकून बशिल्ली नानूसारकी एक व्यक्ती म्हाका
पडली. सदांचे संवकळे प्रमाण हात धोपराचेर तेंकून बसपी. नानूच तो म्हणू
नानूक उलो माल्लो, नानू तूं हांगा कसो? तू वांगड्यांबरोबर भोंवपाक
निर्विकार तोंडान नानू उलयता. भोंवपाक? 'हांव सदांच देवळांतच ब
कित्याक? हांवें विचाल्लें. चलयो बी दर्शनाक येतात न्हय? नानूचें उत्तर.

भोंवपाक वचपाच्या नांवांसकयल नानू वरांचीं वरां देवळांक किदें करत
मद्रासच्या लोकांची भास ताका समजना. अशा वेळार तो हांगा किदें
आसतलो? नानू सारकिले अशे खूब कलाकार म्हजे लार्गी आसात. हे
दुख्खान तांकां केन्नाच समादान जालें ना वा हेरांच्या सुखाचो तांणी केन्नाच
केलो ना. दुस्वास केलो ना. हेर कलाकार भोंवपाक जेन्ना वताले त्याच
म्हजो नानू मात देवदर्शनाक येवपी भक्तांचे भाव पारखितालो.

* * *



ताल कटोरा मैदानाचेर कार्यावळेची तयारी



मद्रास भोंवडेर गेल्ले तेन्ना एका सत्कार सोवळ्यांक



तामीळनाडूतल्या देवळा सामकारा



असो गौरव सगळ्या सुवातीनी जालो



# सिंदिया वाडो

परके सत्तेकडेन फितुरी, हातमेळवणी करून देसाची एकताय, अखंडताय नश्ट करप आनी परकी सत्ता फोडा आनी जोडा ह्या तत्वाचो वापर करून आमगेले भुंयेंचेर रोवप ही भारतीयांची खाशेली अशी परंपरा. हो इतिहास. तो ना करपाक जायना. जे मेरेन इतिहास जितो उरतलो ते वेळ मेरेन फितुरी तिगतली. हाका अपवाद लेगीत आसात. परके सत्तेविरूध्द लडटना आपलो जीव लेगीत पणाक लावपी रत्नां ह्या देसांत जन्माक आयलीं. हाका लेगीत इतिहास साक्ष आसा. महादशी शिंदे हें एक रत्न. आयच्या सिंदिया घराण्याचे वंशज. त्या सिंदीया घराण्याच्या ग्वालेराक, सिंदीया संस्थानाक, सिंदिया राजवाड्याक भेट दिवपाची संद मेळ्ळी.

गोंयच्या उद्देग खात्यान ग्वालेराक आयोजित केल्ल्या उद्देग मेळ्याक गोंय दीस मनोवपाचो आशिल्लो. हे कार्यावळेक गांवडोंगरे इंद्रावाडो वाठारांतल्या पंगडाक बरोबर कार्यावळीक व्हरपाची संद मेळ्ळी. बसीचो प्रवास. सामको घाई गडबडेक जाल्ली भोंवडी. तालीम घेवपाक लेगीत सवड मेळ्ळी ना. आमगेल्या पंगडातलो सदांचो शेनायकार अचकीत बरो ना जालो. अखेरीक आमगेल्या शेजारच्या माजाळी वाठारांतलो एक पारंपारीक शेनायकार आमी पंगडा वांगडा व्हेलो. ग्वालेराक कुडकुड्याचें शीं पडटालें. ग्वालेराक पावनाफुडें तालीम घेवंया म्हणून शेनायकाराक सुरुवातेक सांगलें. पुणून शेनायकाराली फूंक सारकी बसनाशिल्ली. परथून परथून शेनायकार फूंक घालता आनी सायकलीच्या टुबांतल्यान वारो गेले उपरांत कसो आवाज येता तशी अवस्था जाताली. हेर वांगडी ताची मजा पळयताले. पूण हांव मात सांजेचे कार्यावळीचें चिततालो. शेनाय वाजयली ना म्हणून व्हडलें बिघडनाशिल्लें. सांजेक गोंय दिसाची कार्यावळ. ती बरी जावपाक जाय. पारंपारीक आयदांसयत ती जावपाक जाय हो म्हजो हेत. हांवें तिडकी सरशीं म्हळें, सांजेक कार्यावळीक सारकें जालें ना जाल्यार तुका ग्वालेराकच दवरून वतलों.

गोंय दिसाची कार्यावळ सदांवरवी रंगली. शेनायकारान राज्य पळोवपाच
संद मेळटा म्हणून हेर कपडे घेवपाक गेलो ना. शिंयांचे कपडे ताचे लागीं नाशिल्ल
कार्यविळी उपरांत सगळ्या वांगड्यांक मेळपाक आयलों जाल्यार शेनायका
दिसना. सगळ्याक सोदलें पुणून ताचो पत्तोच ना. सदचेवरी मायकावेल्यान जाही
केलें. हांवें तापयलें म्हणून ताका वायट दिसलें काय? खंय गेलो परक्या राज्यांक
विंगड विंगड प्रस्न तकलेंत येताले. सगळे वांगडी कार्यावळ जाल्ली तो वाठा
सोदताले. ग्वालेराचो तो सगळ्यांत व्हटलो मेळा. शामियान्याच्या भायर सादार
पन्नासेक मिटरांचेर कोणे तरी धग घाल्लो. शिंयान काकुडटाल्या बिचाऱ्याक धगाव
बसचें दिसलें. शिंयांपासून वाचोवचे खातीर बिचारो धगाक बशिल्लो.पयलीं रा
आयलो. मागीर मात काकूळत दिसली. आनी किदें करपाचे ताणें? कार्यावळ
उपरांत जेन्ना सगळे राबितो जंय आशिल्लो त्या जाग्यार गेले, शेनायकार कप
काडटालो. एक, दोन, तीन अशें करीत ताणें एका फाटल्यान पांच शर्टां आनी पां
पँटी सोडयल्यो. आमी चितताले. आठ दिसांची भोंवडी? शेनायकाराकडेन शेना
घाल्ले एके पिशवे बगर कांयच ना? कपडे? हेर सामान? हाणें एकच खेपे पां
शर्टां, पांच पँटी आंगार चडयिल्ल्यो? एकेक करून सोड यतालो. सगळ्यांक ह
नवो प्रकार आशिल्लो.

खान अब्दूल गफार खान हांच्या अचकीत मरणाक लागून दुसऱ्या दिसाच
कार्यावळ रद्द जाली. सिंदिया पॅलेस पळोवया असो वांगड्यांनी आग्रो धल्लो. पॅलेसच
बांदोप, इतिहासीक पुरावो, तशेंच शिल्पकलेचो एक नमुनो पळोवपाची संद सिंदिय
पॅलेसान दिली. सिंदिया घराण्याकडेन गोंयच्या राणे घराण्याचो लागसल्लो संबं
आसा. त्या भौ. राणे हांची तेन्नाची न्हिदपाची सुवात, भोजन घरांतली कळ लायन
फुडें धांवपी रेलगाडी, जे गाडयेन ती भोंवताली ती गाडी, जेवपा-खावपाचे पदार्थ
दवरपाची पध्दत. व्हड झुंबरां. सिंदिया घराण्याचो वारसो दाखोवपी तैलचित्रां
इतिहासीक दस्तऐवज सांबाळपाक जाय हे दिकेन मध्य प्रदेश सरकारान ह
इतिहास जतन करून दवरला. सिंदिया पॅलेसचो तिसरो वाटो सरकाराकडेन
जाल्यार एक वाटो सिंदिया कडेन आसा. हो पॅलेस आनी भोंवतणचो वाठार पळयले
उपरांत या देसाची एकता, अखंडता तिगोवन दवरचे खातीर सिंदिया घराण्यान
जें बलिदान केलें ताचे एक चलतचित्र हो पॅलेस पळयले उपरांत दोळ्यां सामकार
येता.

* * *

# रजपूतांची यादस्तिक चितोड

गोंय हें पुर्वेकडलें रोम. असो प्रचार गोंय तशेंच गोंयांभायर लेगीत आजमेरेन जाल्लो आसा. हाका लागून गोंयचे संस्कृतायेक खंय तरी भिरांत निर्माण जाल्या. सार्लींचीं एक दोन वर्सां जर सोडलीं जाल्यार ताचे पयलीं जेन्ना तेन्ना प्रजासत्ताक दिनाच्या निमतान दिल्लीच्या राजपथाचेर धांवपी चित्ररथान खा प्या मजा करात हो संदेश दिवपाचेंच काम केलां. गोंयचे मूळ संस्कृतायेपरस अस्तंत संस्कृतायेचें दर्शन, तातूंक मागीर रस्त्यार अदर्यो नागड्यो नाचपी युवती, हातांक बियरीची बाटली ना जाल्यार हेर कसले तरी ड्रिंक हांचें दर्शन नदरेक पडटालें. प्रसार माध्यमांनी लेगीत असलेंच विद्रूप अशें गोंयचे दर्शन हेर राज्यांमेरेन पावयला. हाचो परिणाम राजस्तान भोंवडेर गेल्ल्या आमगेल्या कलाकारांक भोगचो पडलो. गोंयचें कलाकार वांगडी संयमान वागले नाशिल्ले जाल्यार सामकी वायट परिस्थिती निर्माण जावपाची. ज्या राज्यान आमगेल्या देसाक राणा प्रताप, पृथ्वीराज चव्हाण, राजा मानसिंग सारकिल्ले, जीव गेल्यार जाता पूण देस सोडचों ना अशें सांगपी रत्नां दिलीं. सगळ्या देसाक मान तायट दवरपाक लावपी रजपुतांचो इतिहास, जीव गेल्यार जाता, पुणून आपल्या आंगाक परक्या मनशाक हात लावपाक दिवप ना अशें म्हणून नुसत्यो रावल्यो नात, लडायेक आपलो घोंव शहीद जाला हाची खबर कळनाफुडें हांसत जोहार करपी शूर तशेंच वीर बायलांचें हें राज्य; त्याच राज्यांक कार्निवाल दाखयात, आमच्या वांगडा चलयांक धाडात, ना जाल्यार नाच बंद करात अशें सांगून थंड रावनास्तना कार्यावळ चलताना सरळ ताताया आंगार घेवपाचो प्रसंग राजस्थानातल्या खेत्रीनगर वाठारांक सोसचो पडलो.

राजकोट, जैसलमेर, कोटा, चितोड, उदयपूर, जयपूर, खेत्रीनगर ह्या वाठारांतल्या इतिहासाची याद करून दिवपी किल्ले, शिल्पकला पळयनाफुडें त्या वेळची परिस्थिती दोळ्यांमुखार येता. चितोड गडार आशिल्लो तो राणा प्रतापाचो पुतळो, वस्तुसंग्रहालयांक आशिल्लो सगळो दस्तऐवज, तकलेर टोप, दोनूय हातांक दोन तलवारी, कमरेक दोन म्यानां. ८० कील वजनाची राणा प्रतापाची तलवार. एकेच तलवारेच्या वारान उबो चिरीलो दुस्मानाचो देह पळयनाफुडें राणा प्रतापाच्या पराक्रमाची, ताचे शक्तीची कल्पना येता. इतली शक्त खंयच्यान आयली ताका? मर्दीच घोड्यार बशिल्लो राणा प्रताप. ताचो 'चेतक' घोडो. ताच्या मरणा उपरांत जीव दिवपी. ताचो इतिहास सामकारा येता.

गोंयच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयान ही कार्यावळ घडोवन हाडली. सगळी भोंवडी बसीन. दीसभर फक्त भोंवपाचे. पयस पयस असो जिल्ह्यांचो वाठार. ज्या जाग्यार पावले त्या प्रत्येक जाग्यार कलामोगी लोक. उफाटून प्रतिसाद. पुणून खेत्रीनगराक जो अणभव आयलो तो पळयनाफुडें सांस्कृतिक संचित खंयचे दिकेन पावला हें चितचें पडलें. ह्या पंगडांक गोंयच्यो बऱ्यो गायिका आशिल्ल्यो, बरे वाजोवपी आशिल्ले. देखणी, धालो, गोफ, फुगडी, दिवली नाच, तालगडी, घोडेमोडणी सारकिल्लें नाच आशिल्लें. गोंयच्या लोकसंगीत, लोकगीतांचो आस्पाव आशिल्लो. खेत्रीनगरच्या रंगमाचयेर जेन्ना आमी पावले तेन्ना वण्टीचेर आमका कांय फलक दिसले. कांय अर्द्या नागड्या अवतारांतलीं चित्रां दिसलीं. ताचेर बरयिल्लें, कार्निवाल तुमच्या दारांक. पयलीं हें सगळे पळयले उपरांत अशें दिसलें, ही वेळ येवपाचें कारण किदें? गोंयची खरी संस्कृताय पेल्यान दवरून हेर राज्यांत जी विटंबना चल्ल्या ताचो हो परिणाम. कोण तरी एकटो आयलो आनी सांगपाक लागलो, आमकां कार्निवाल जाय. पंगडाच्या मुखेल्यान ताका समजावपाचो यत्न केलो. पुणून तो आयकुवपाचे मनस्थितींक नाशिल्लो. अस्तंत संगीताचेर आदारीत अशी एक कार्यावळ तयार केली. ताची तालीम घेतली.

सांजेच्या७ वरांचेर कार्यावळ सुरू जाली. हॉल सामको भरिल्लो. तातूंक तरणाट्यांचो चड आस्पाव आशिल्लो. कार्यावळीक सुरुवात जायना फुडें रंगमाचयेर पयलीं दोन ताळयां पडलीं. दिवल्यां नाचाची कार्यावळ सुरू आशिल्ली. अचकित दोन तरणाटे रंगमचायेर सल्ले. 'नाका, हो नाच नाका. आमकां कार्निवाल जाय'. एकच आकांत, बोवाळ. अखेरीक खास तयार केल्ली अस्तंत संगिताचेर आदारीत अशी कार्यावळ सुरू करपाची सुचना पंगडाच्या मुखेल्यान दिली. ही कार्यावळ सुरू जायना फुडें सात आठ तरणाटे रंगमाचयेर चडले आनी आमगेल्या चलयांच्या हाताक धरून नाचपाक लागले. किदें घडटा तें समजुवपाक वेळच दिलो ना. खरें म्हळ्यार त्या दिसाक खेत्री नगरांक राबितो आशिल्लो. दुसऱ्या दिसाची कार्यावळ खूब पयस आशिल्ली. गाडयेक डिजेलाची वेवस्था करपाक जाय आशिल्ली. तातूंक परत प्रवास रातीन करप. खेत्री नगराक रावप म्हळ्यार लेगीत तितलीच भिरांत. रातच्या जेवणा उपरांत कोणाकच कसलोच पत्तो लायीनास्तना आमी रातचे खेत्रीनगर सोडलें. एकच विचार येतालो, हो दोश कोणाचो? सांस्कृतीक संचिताचो. आमगेले संस्कृतायेंचो? ज्या जाण्टेल्यांनी ही कला सांबाळली तांचो? काय जगाचेंर गोंयचे संस्कृतायेचें सामके हिडीस, बुरशें दर्शन दाखोवपी राजकीय फुडाऱ्यांचो? काय, ही परंपरा फुडें व्हरपाक मुखार सरिल्ले आमचे तरणे पिळगेचो?

* * *

# पूर्वांचल आनि मिझोराम

आमगेल्या देसांतल्या कांय वाठारात वतलो जाल्यार पास काडपाक जाय. एन्ट्री फी भरची पडटा. हें सांगल्यार अजाप दिसतलें. भारत देस स्वतंत्र जाले उपरांत खंयचोय मनीस खंयच्याय राज्यांक वचून रावूंक शकता. त्या जाग्यार ताचो उद्देग वेवसाय सुरू करूंक शकता. अशें जरी आसलें तरी लेगीत मिझोराम राज्यान हाचेर मात्शी बडी माल्या. एकादी भायली व्यक्ती मिझोरामाक येवन रावन त्या जाग्यार धंदो वेवसाय करपाक संद मेळची ना हाची जाणविकाय दवरूनच मिझोराम राज्यांक प्रवेश करतलो जाल्यार एन्ट्री फी काडपाची सक्ती ह्या राज्याचे सीमेवेल्यान सुरू जाता. पुर्वे कडलें एक राज्य. दाट झाडां, उंच उंच दोंगर, खोल खोल दऱ्यो, हांणी भरिल्ले. हेर राज्यांतल्या लोकांकडेन कमी संपर्क. कला आनी संस्कृती खात्याक लागून ह्या हेर राज्यांपरस पयस आशिल्ल्या राज्यांक भेट दिवपाची संद मेळळी आनी ह्या राज्याविशीं ज्यो हेरांच्यो फटीच्यो कल्पना आशिल्ल्यो ताचो सुटावो जालो.

ख्रिश्चन धर्माच्या लोकांचें राज्य म्हणपाक येता अशें हें राज्य. एके वटेन बांगला, चीन जाल्यार दुसरे वटेन तैवान सारकिल्या देसांचे मर्दी ह्या राज्याची वसणूक आसा. ताका लागून भारत देसाक आनी आमकां कांयच संबंद ना अशें म्हणपी कांय विद्वाटे म्हणपाक येता अशे तरेचे लोक हांगा पळोवपाक मेळटात. तरी लेगीत भारतीय परंपरेच्यो खुणा आनी 'आमी मिझो' म्हणपाक स्वत:क धन्य समजुवपी लोक हांगा आशिल्ल्यान देसापुसून पयस आसून लेगीत भारत देसाकडेन तांची नाळ जोडिल्ली आसा. मिझोंचो वेवहार सकाळच्या चार वरांक साकून सुरु जाता आनी सांजेच्या पांच वरांचेर हांगा काळोक पडपाक लागिल्ल्यान रातीक सुरवात जाता.

मुंबय-गोहत्ती, आसाम आनी सिलचर ह्या बोर्डरी वेल्या जाग्यांमेरेन बशीचो प्रवास. मुखार सिलचर ते मिझो राजपटण आयझवाल मेरेनचो बशीचो प्रवास म्हळ्यार काळजांक धडधडपाचो. दोनीय वटेन च्याचे मळे, गच्च भरिल्लें कळकीचें

रान, मर्दीच खंय तरी दिसपी केळी, आल्यांचीं झाडां. सकयल पळयल्यार नदर पावना इतली खोल दरी आनी सुस्कारो लेगीत आयकुवपाक येंना अशें अवस्थेंक काळीज घट्ट धरून बशिल्ले प्रवाशी. दोळ्यांची पाती लेगीत हालयनास्तना.

आर्थिक दृष्ट्या पळयल्यार मिझो खूब फाटल्यान. तितलोच शिक्षणीक दिकेन उंचेल्या पांवड्यार, भोंवडेकाराचो भेस घेवन राज्याचीं थळां पळोवाक आयिल्ले कांय लोक हांगा घराबो करून रावतात ताचेर खंय तरी आळाबंद घालचो, खंय तरी ताचेर नियंत्रण जावचें हें नदरेन मिझो राज्यांक प्रवेश घेतलो जाल्यार कांय दिसां खातीर पयशे भरपाची सक्ती जी केल्या ती एके वटेन तुरस्त तोखणाय करपा सारकी आसा. कळक (कोंडे) आनी आलें हे दोन जिनस सोडल्यार सगळ्याच जिनसांखातीर हेर राज्यांचेर अवलंबून आशिल्लें हें राज्य. राज्याची भुगोलीक अवस्था, दोंगर, दऱ्यांनी भरिल्लो वाठार पळयल्यार ह्या वाठारांतलीं चडांत चड घरां लाकडाचीं. दोन दोन मजली घरां लेगीत पुराय तरेन लाकडाचीं. वण्टी लाकडाच्यो, जमीन लाकडाची इतलेंच न्हय तर वेलें छप्पर लेगीत लाकडाचें. वर्सभर थोडो पावस पडिल्लोच आसता . हांगा सकाळच्या चारां पयलीं सूर्य उदेता, ताका लागून दीस बेगीन जाता. मिझो ही थळावी भास आनी इंग्लेज ह्यो दोन भासो तांकां समजतात. हेर भासो समजून घेवपाची तांकां व्हडली गरज पडली ना. सगळो वाठार ल्हान ल्हान व्हॉल्तांनी भरिल्लो. कांय व्हॉल्तांचेर जमीन तयार करून बांदिल्लीं घरां दिश्टी पडटात.

मिझोक सगळ्योच वस्ती म्हारग. पुणून एक गजाल नदरेंक भरता. ती म्हळ्यार हांगा सगळो वेव्हार बायलो चलयतात. ल्हान एखाद्रो पानाचो गाडो आसूंदी ना जाल्यार व्हड अशें कपड्यांचें दुकान, च्याचें हॉटेल. सगळेच वेव्हार बायलांकडच्यान चलतात. तोंडांत भरील्लें पान. पानाक लागून तांबडे जाल्ले ओंठ ह्या वेशांक रस्त्यावेल्यान भोंवपी चलयो, बायलो पळयल्यार अजाप दिसपाचें. ल्हान व्हड, गरीब, गिरेस्त असो फरक करीनास्तना सगळेच लोक पान खातात अशें चित्र. ताका लागून सुपारी, पानांची मोठ्या प्रमाणांक ह्या वाठारांक उलाढाल चलता. पान खावपी लोकांचें प्रमाण चड जरी आसलें तरी लेगीन पान खावन रस्त्यार थुंकपी लोक दिश्टी पडनात. रस्त्यार थुंकप ना वा रस्त्यार एखाद्रो कागदाचो चिटोरो उडोवपी मनीस दिश्टी पडना. इतली नितळसाण. दर पांच किलो मिटरांचेर कचरा कुंड्यो, परत दोन दोन तासांनी नगर पालिकेच्यो गाडयो चिकोयर एकट्यांय करपाक भोंवतना दिसतात. ही नितळसाण, निवळसाण, शारांकच दिश्टी पडटा अशेंय ना. गांवगिऱ्या वाठारांक लेगीत हीच अवस्था. हीच निवळसाण. तांका लागून मिझोक येवपी भोंवडेकारांक लेगीत एखाद्रो कागदाचो कुडको रस्त्यार उडोवचो दिसना.

मिझो लोक आपल्याक भारतीय म्हणून घेतात. भास, संस्कृताय, भेस सगळें अस्तंत लोकांसारकिल्लें. साडी न्हेसपी बायल दिश्टी पडना. दिसलीच जाल्यार एक तर ती बांगला देशांतल्यान वा केरळ राज्यांतल्यान कामानिमतान आयिल्ली आसतली. खावपाचे जीनस लेगीत अस्तंत लोकांसारकिल्ले. भास, भेस, जरी वेगळ्यो आसल्यो तरी लेगीत 'आमी भारतीय' म्हणपाक तांकां अभिमान दिसता. ह्या वाठारांतल्या लोकांक अशें जें वागचें दिसता ताचीं कारणां किदें आसतलीं काय? ह्या राज्यांक खास दर्जो दिवन वयर काडपाचो यत्न भारत सरकारान केल्लो आसा. तरी लेगीत सीमा वाद, वाडत आशिल्लीं झुजां, दहशतवाद, आंदोलनां हांचे तावडेंक हो वाठार सांपडिल्लो आसा. ताका लागून भिरांकूळ अशी जीण ह्या वाठारांतल्या लोकांक जगची पडटा. आमी भारतीय म्हणून सांगपाक सामकें सोपें. पुणून भारतीय संविधानात दिल्लीं मुलभूत कर्तव्यां सांबाळपाची जापसालदारकीय आमी पेलपाक जाय. ते नदरेन मिझो लोक वावुरतात अशें चित्र आमकां दिश्टी पडटा.

* * *

# ते पदेर आनि उंडे लेगित गेले

ल्हानपणांत गांवांतल्या जाण्ट्या लोकांकडच्यान आयकल्लें, दामांवाक पयशाक घोडो मेळटा, गोंय दामांव, दीव हो आमगेलो पयलींचो संघ प्रदेश, तीनय कडेन पोर्तुगिजांची सत्ता आशिल्ली. १९६१ वरसा गोंयकारांनी जेन्ना पोर्तुगीजांक धांवडायले त्या वेळार गोंयां बरोबरच दामांव आनी दीव ह्या वाठाराचेर आशिल्लो कब्जो लेगीत तांणी सोडलो. तीनय भागांचेर पोर्तुगीज राजवट आनी एकच खेपेक तीनय वाठार विमुक्त जाल्ले. ताका लागून गोंय दामांव, दीव असो संघ प्रदेश निर्माण जाल्लो. ना जाल्यार भास, भेस, संस्कृताय हांचे कडेन अजिबात मेळ बसपी न्हय असो वाठार. भुगोलीक नदरेन लेगीत आमच्या परस गुजरात राज्याक चड लागसल्लो असो वाठार. तरी लेगीत आमी ह्या दोनूय वाठारांक आपणायलो. आमगेलो प्रांत अशे मानले. जेन्ना हे तिनूय वाठार एकट्यांय आशिल्ले तेन्ना आनी गोंय घटक राज्य जाले उपरांत हे दोनच वाठार जेन्ना स्वतंत्र सोडले तेन्ना लेगीत दामांव, दिवाक वचपाची संद मेळ्ळी. ताचे पयलीं दामांव, दिवाक एखाद्या सरकारी कर्मचाऱ्यांक धाडप म्हळ्यार बंदखण कशी. सरकारी नोकरांक शिक्षा म्हणून दामांव, दिवाक धांवडायताले. सर्वसादारण गोंयांसारकिल्लो वाठार, नुस्तेंकार लोक. गोंयांसारकिल्ली रस्त्याच्या दोनूय वटेन आशिल्लीं सोन्याचीं दुकानां. गुजरात राज्याक लागीं आसून लेगीत गोंयकारांकडेन एकरूप जाल्ले अशे हे लोक.

दिवाचे आमदार, उपरांत, गोंयचे सभापती पदाचेर आशिल्ले नारायण फुग्रो हे गोंयकार आसून लेगीत दीववासीय जाल्ले. तांचो स्वतचो वेवसाय हांगा चलतालो. कार्यावळी निमतान जेन्ना दिवाक वचपाची संद मेळ्ळी त्या वेळार कांय थळाव्या लोकांनी कार्यावळीच्या वेळार आडमेळे घाल्ले तेन्ना नारायण फुग्रोंन आमकां मदत केल्ली ती याद आसा. दिवासारकेंच दमण. दोनूय वाठार दोन दिशांक. गोंयांक घटक राज्याचो दर्जो मेळचे पयलींचे दीस. दमणच्या विश्रांती घरांक कलाकारांच्या राबित्याची सोय केल्ली. त्या दिसाक कलापंगडाच्या मुखेल्याचो वाडदीस आशिल्लो.

वणाची वेवस्था दमणच्या विश्रांती घरांतच केल्ली. जेवणाची पंगत चलताली. काणां, मस्कऱ्यो चलताल्यो. संदाचे वरी नानू पंगडांक आशिल्लो. नानूक मटण ाय आशिल्लें. नानून वेटराक आपयलो. 'ये मटण लाव'. मटण नहीं साब, वेटरान ांगलें. मटण नहीं ऐसा कैसा? हा सच्ची साब, परत वेटराचें उत्तर. 'मटण नहीं तो ोडी लाव.'' हें सगळें उलोवप शेजराक आशिल्ले हेर वांगडी आयकताले. नानूचे कलेक सगळ्यांनीच वालोर दिलो. दुसरे वटेन ताची काकूळट दिसली. ताचें ारण, हें भाषण सोपता मेरेन नानून मेजार तकली तेकयली.

दामांव, दिवाक पयशाक घोडे मेळटात हें जशें आयकल्लें. तेच वरी हांगा 'फॉरेन' ाल मेळटा हें लेगीत सगळे वांगडी जाणा आशिल्ले. सगळे वांगडी अश्यो वस्ती वपाक गर्दी करताले. गोंयचे भुंयेपरस पयस आशिल्ले आनी फक्त अपघात म्हणून ोंय राज्याक जोडिल्ले हे वाठार आज जरी वेगळे जाल्ले आसले तरी लेगीत ोंयकारपण सांबाळपी कांय जाण हांगा आसात. शिक्षेच्या नांवासकयल दमण वा िवाक धाडिल्ले लोक अजून मेरेन थंय रावतात. १९६१ ते १९८६ मेरेन गोंय रकाराचो वाठार आशिल्ल्या या दोनूय प्रांतांचेर विकासाच्यो खुणो दिश्टी पडटात. ोंय सरकारान आपलोच एक वाठार हे दिकेन दामांव, दिवाकडेन पळयलें. त्या ाठाराची उदरगत केली. पयलींचे वरी एखाद्या सरकारी नोकराक दामांव, दिवा ारकिल्या वाठारांक शिक्षा म्हणून वचचें पडना. आतां भोंवडेकार म्हणून वतात. ामांव, दीव एका तेंपार गोंयकारांचें आशिल्लें हाची याद घेवन येतात. दामांवाक यशाक घोडो मेळटा हाचो मात अजून मेरेन सुटावो जाल्लो ना. पोर्तुगीजांच्या ेंपार कांय प्रमाणाक स्वस्ताय आशिल्ली जावंये. ताका लागून घडये ही म्हण चालू ाली जावपाक शकता. गोंयकाराच्या काळजांक मात ही ओंपारी आज लेगीत शीच कायम आसा.

* * *

# भगवान कृष्णाली द्वारका

भगवान श्री कृष्णाली व्दारका. भांगराची व्दारका. आयज जरी ही द्वारक भांगराची ना तरी लेगीत भगवान श्री कृष्णाच्या पवित्र पायांच्या स्पर्शान पाव जाल्ले हे द्वारकेक भेट दिवपाची संद मेळ्ळी. पाश्चिमालाप या अस्तंत कला आनि संस्कृती केंद्राचे येवजणे सकयल सगळ्या गुजरात राज्याची भोंवडी घडोवन हाडली चार राज्यांतले एकठ्यांय कलाकार वांगडी. रातीची कार्यावळ. खंय तरी जेवपाच वेवस्था. बऱ्याच वेळाक रातीन लेगीत प्रवास करचो पडटालो. ज्या जाग्या कार्यावळ आसताली त्या जाग्यार सांजेच्या वेळार पावप, कार्यावळ जाले उपरां जेवण करप, ही प्रक्रिया चाळीस दीस मेरेन चालू आशिल्ली. गुजरात राज्याचें खरेखु दर्शन या पाश्चिमालापान घडयलें. गरीब शेतकामती भाव. दुदाचेर जीवन घालोवपी शेतांत काम करपी, शारांक गाडयेन भोंवपी, ए. सी. रुमाच्या बंगल्यांक रावप इतले पुरतोच गुजरात न्हय. हांगा सामकें वेगळें चित्र पळोवपाक मेळ्ळे.

गुजरात राज्यांमदल्या पोरबंदर ह्या जिल्ह्यांतल्यान सादारणपणान ७० ते ८ कि. मी. अंतराचेर 'कृष्णाकल्ट' हो मेळा भरिल्लो. वर्साक एकदां तो भरता. त्य मेळाक कार्यावळ करपाची. गोंय मुंबय बशीचो प्रवास. मुंबय ते अहमदाबाद मेरे रेल्वेचो. ताचो फुडलो कसोतरी. जीं साधनां मेळटात ताचो लाब घेयत प्रवास करपाच थाल्लें. कार्यावळ फक्त दोन दिसांची. भोंवडी मात चार दिसांची. बशीचें, रेल्वेचे रिझर्वेशन ना.

मेळटा ते रेल्वेंक बसून अहमदाबाद मेरेन पावले. ह्या अहमदाबाद शारांक ज अणभव मेळ्ळो तो खीण जल्मभर याद दवरपासारकिल्लो. भायल्या राज्यांक गेल्ले उपरांत भोंवडेकारांक लुबाडतात कशे, तांकां कशे सतायतात हाची बेस बरी देख अहमदाबाद शारांक पळोवपाक मेळ्ळी. प्रवासाचो शीण आशिल्लो. अहमदाबाद त राजकोट, पोरबंदर, कृष्णकल्टमेला असो प्रवास करपाचो आशिल्लो. रेल्वेतल्यान देंवन सगळे वांगडी कलाकार आपलें सगळें सामान घेवन रस्त्यार येवपाक लागले.

तल्यांक पयलीं सुचोवणी केल्लेवरी वांगड्यांच्या म्हऱ्यांक एक रिक्षा येवन रावली. त्या रिक्षांक फोर्सान सगळ्या वांगड्यांक बसयले आनी खाजगी बशी ज्या जाग्यार रांबतात त्या जाग्यार सगळ्या वांगड्यांक त्या रिक्षावाल्यान सोडले. आमच्या तातार फोर्सान खंयच्या तरी बशीच्यो तिकीटो दवरल्यो. आमकां वचपाचें आशिल्लें पोरबंदर. पूण पावयले राजकोट. रातीचो प्रवास. परक्या राज्यांक आमी आसात. सरकारी कार्यावळीक वचपाक भायर सल्ल्यात. पुणून दादागिरी मुखार कांयच चलना. हाची बरी देख आमकां मेळ्ळी. रातीचो प्रवास. बस कशी वता ते लेगीत समजना. राजकोटच्या बस स्थानकाचेर पावनाफुडें जितले बळजबरीन वांगड्यांक बशींत चडयल्ले, तितलेच बळजबरीन सगळ्यांक देंवयले. रातीच्या बारा वरांचेर. सुदैवान पोरबंदर वचपाची गुजरात एसटी बस त्या स्थानकाचेर मेळ्ळी. परत प्रवास. पोरबंदर कशे बशे पावले. ते उपरांत परतून आमकां कृष्णा कल्ट मेळा ज्या जाग्यार भरता त्या जाग्यार वचपाचें आशिल्लें. मेळाक सुरुवात जाल्ली. आमकां एक दीस कळाव जालो.

ज्या वाठारांक फाटलीं धा वर्सां पावस पडलो ना, पियोवपाच्या उदकाखातीर कंय मारामारी चलता. लांब लांब रांगेक उबे रावन एक घागर भरून उदक मेळोवचें पडटा असो पोरबंदरचे दर्यादिगेर वशिल्लो हो वाठार. ज्या वाठारांक राष्ट्रपिता महात्मा गांधीजींजो जल्म जालो, तो हो वाठार. भगवान श्री कृष्णाची द्वारका आनी राष्ट्रपिता महात्मा गांधीजींचो जल्मगांव. अशो दोट्ट्यो भोंवड्यो ह्या कार्यावळींच्या निमतान जाल्यो. गोंय जेन्ना भोंवडेकारांचें आकर्षण म्हणून आमी पळयतात, त्या गोंयांक लाखांनी भोंवडेकार दर वर्साक येतात. पुणून देस वा हेर देसांतल्या भोंवडेकरांक नाडपाचे, तांकां फटोवपाच्यो घडपुको हांगा जाल्ल्यो दिसनात. फोर्सान गाडयेक घालप, चड उलयल्यार तोंड बंद करतले म्हणून शाणेपणां सांगप आनी सगळ्यो यंत्रणा वा सोय आसतना लेगीत उगड बलात्कार जाल्लेवरी तोंड बंद करून रावपाचो प्रसंग. हीच देख ज्या राज्याक महात्मा गांधीचें राज्य म्हणून पळयतात त्या गुजरात राज्यांक आमकां अणभवपाक मेळ्ळी.

* * *

# सेंटॉर हॉटेलातली कार्यावळ

गोंयचे कला अकादमीन मुंबयच्या सेंटॉर हॉटेलांक गोंय दीस मनयिल्लो. गोंय दीस म्हटले उपरांत खावप, पिवप सगळें गोंयचे पध्दतीचें. उपरांत मन रिजवणे कार्यावळ लेगीत गोंयचे संस्कृतायेचेर आदारीत अशी. पंचतारांकित हॉटेल, ज्या हॉटेलांत फक्त पयशेकार लोक वचूंक शकतात. हॉटेलाच्या वाठारांक लेगीत सर्व सामान्य मनीस वचपाक पावना असलें सेंटॉर हॉटेल. कार्यावळीच्या निमतान हॉटेल सेंटॉर पळोवपाची संद मेळ्ळी. कला अकादमीचे कार्यावळीची पध्दत चडशी बरी आसता. कार्यावळीचे मुखेल अधिकारी वांगडा. सगळ्या वांगड्यांची राबित्याची वेवस्था दादरच्या रविंद्र नाट्य मंदिरात केल्ली. रविंद्र नाट्य मंदिर ते सेंटॉर हॉटेल असो चार पांच दीस मेरेन प्रवास. वाटेवेल्या पांच पांच मिनिटानी पडिल्ल्या सिग्नलांक लागून बेजार येतालो, पूण वेवस्था बरी आशिल्ली. ह्या पंगडांक देखणीं, कुरुड्डिन्य प्रकार आशिल्ले.

कार्यावळीच्या पयल्याच दिसाची गजाल. देखणीं नाच करपी कलाकार वांगड्यांक फातयेक पेचक जाय आशिल्ली. वांगडा कांय मेणवाती जाय आशिल्ल्यो. सेंटॉर हॉटेलालागीं पावना फुडें पेचक जाय हाचो उगडास जालो. हॉटेलाकडेन असल्यो वस्ती मेळप म्हळ्यार कठीण. कार्यावळीच्या मुखेल्यान म्हजेर ती जापसालदारकी सोपयली. हॉटेलाच्या भायर येवन हांवें रिक्षा धल्ली आनी फुलांच्या बाजारांत सोडपाक रिक्षावाल्याक सांगलें. हेर वांगडी कार्यावळीचे तयारेक लागले. पेचक हो कोंकणी शब्द. ताका मराठी भाषेंत कलाबूत म्हणटात, हें म्हाका कशेंच याद जायना जालें. फुलांच्या बाजारांक वचून फुलवाल्यांकडेन हांवें पेचक आसा हाची चौकशी केली. पेचक हो शब्द आयकनाफुडें तो वेपारी मात्सो भिल्लेवरी जालो. एकमेकांक पळोवपाक लागलो. हेर व्यापाऱ्या कडेन ताणें पेचक म्हळ्यार किदें हाची चौकशी केली. ताका समजुवचें म्हणून हांवें इंग्लिश भाषेंतल्यान 'सिल्वर थ्रेड' अशें सांगलें. पेचक म्हळ्यार किदें तें लोंबकळटल्या कांय हारांकडेन बोट दाखोवन ताका समजुवपाचो यत्न केलो. इतल्यांक खंयच्या तरी एका हाराक

ाका पेचक दिसली. हांवें त्या हाराक बोट दाखोवन म्हाका किदें जाय तें सांगलें.
का 'कलाबूत' म्हणटात अशें सांगून म्हाका पेचकीची डबी दिली. म्हाका कळाव
तालो. पेचकीचें डबयेचे पयशे कितले हें विचारपाक लेगीत म्हाका वेळ नाशिल्लो.
मात मनांतल्या मनांत बडबडटालो. हांसतालो. कार्यावळीच्या उपरांत हांवें
न्ना पेचकेची गजाल वांगड्यांक सांगली तेन्ना खिणभर बरें वातावरण निर्माण
लें. प्रवासाचो शीण मात्सो कमी जालो.

कार्यावळ सांजेची. सकाळचो आदेस सदचेवरी बेकार. वांगडी भोंवपाक, खरेदी
रपाक वचपाक मेकळे. दादरच्या बाजारांक आमचे कांय वांगडी भोंवपाक गेल्ले.
डकी तोडकी अशी हिंदी समजुवपी कांय कलाकार ह्या पंगडांक आशिल्ले. एकटो
का फेरीवाल्याकडेन गेलो आनी कांय वस्तूंची ताणें चौकशी केली. ताका एक टी
र्ट बरें दिसलें. ताचें मोल तो विचारता. ये कितनेका भाई? फेरीवालो सांगता,
चास साब. इतलें म्हारग? वांगड्यांचो सवाल. हां साब. तीस रुपयेको देना है
या? वांगडी परत विचारता. नहीं साब, पचास से कम नहीं. परतून फेरीवालो
ांगता. आमच्या वांगड्याक तो टी शर्ट आवडिल्लो. पुणून ताका तो म्हारग
दिसतालो. शेवटाक आमचो वांगडी सांगता, तीस रुपयांक देता है तो देवो नहीं तो
र्लो.

* * *

# गोवा व्हिथ लव्ह

गोंयची लोक कला, लोक संस्कृती गोंयांभायर कार्यावळी निमता वताली. त्या वेळार गोंयांक हाताच्या बोटार मेजपा इतलेच पंगड आशिल्ले. तां भितर शर्यती चलताल्यो. गोंय कला अकादमी वा कला आनी संस्कृती खात्या कमी कलाकारां वांगडा चडांत चड कला प्रकार जाय आशिल्ले. हाचेर उपा काडपाखातीर घोडेमोडणी आनी दिवल्यांचो नाच हे दोन कला प्रकार हांवें आमच्य वांगड्यांक शिकयले. गोफ नाच हो काणकोणचो पारंपारीक नाचाचो प्रकार. घो मोडणी हो प्रकार सत्तरी, डिचोली तालुक्यांतलो. एक आव्हान म्हणून आमी घो मोडणी प्रकार आपणायलो. घोडे मोडणी नाच हो मूळ डिचोली म्हालांतलो आसतन लेगीत काणकोणचो जावन बसलो. इतलो बरो हो नाच आमचे कलाकार साद करपाक लागले. मूळ पारंपारिकता, संगीत, हातूंक बदल करीनास्तना, जें आस ते त्याच जाग्यार दवरून ही कला आमी शिकयली. आनी अखेरीक गोफा वांगड घोडे मोडणी हो नाच लेगीत काणकोणचो पारंपारिक नाच जावन बसलो. काणको म्हालांक ते उपरांत तीन चार पंगडांनी घोडेमोडणी हो नाच शिकून घेतलां. पुणू आमच्या पंगडाचो हात धरपी अजून मेरेन जालो ना. कला अकादमी, अरस्तंत क्षे सांस्कृतिक केंद्र, कला आनी संस्कृती खात्याक लेगीत घोडे मोडणी ह्या नाच खातीर आमच्या पंगडाकूच वेंचून काडपाची पाळी आयली. पारंपारिकता, तशेंच संगीत हातूंक कसलीच भेसळ करीनास्तना या प्रकाराची सांगड घाली आन विशिश्ट रूढी तशेंच विधीच्या कचाट्यांक आशिल्ल्या ह्या नाचाक भायर काडू सगळ्या देसभर हे कलेचें दर्शन जें घडयलें तें फक्त आमच्या वांगड्यांनी.

लोक कलाकार म्हजो इश्ट भौ. तिमोतिओ फर्नांडीस हाणें 'गोवा विथ लव्ह हे कार्यावळीची मांडणी केली. भारतीय आनी अरस्तंत कलेची सांगड घालतनाच गोंयच्या हिंदू आनी किरिस्तांवां मदलो एकचार सांदपी अशी ही कार्यावळ 'गोव विथ लव्ह'. हे कार्यावळीक हिंदू तशेंच किरिस्तांव भाव सादर करतात त्या कल प्रकारांचो आस्पाव आशिल्लो. ह्या पंगडाक घोडे मोडणी, गोफ, तालगडी, दिवल्यांनाच

प्रकार हिंदू भाव करताले. जाल्यार देखणी, मांडो, कुरुद्दिन्य, फुगडी सारकिल्ले
गार किरीस्तांव भाव करताले. ज्या वाठारांक गोफ, घोडे मोडणी म्हळ्यार किदें
खबर नाशिल्लें त्या लोकांक आमी गोफ, जाल्यार ज्या वाठारांतल्या लोकांक
वर्णी, मांडो खबर नाशिल्लें तांणी हे प्रकार त्या निमतान पळयले. आज टी. वी.
प्रस्थ आसा. गोंयांक टी. वी. सेंटर सुरू जावचे पयलींचो हो काळ. भारतीय
नी अस्तंत नाचाची सांगड घालपी हे कार्यावळीन सगळ्या गोंयभर तिकिट
वन कार्यावळ सादर केली. गोंयच्या लोकांक ह्या नाचाची पुराय म्हायती नाशिल्ली
करून दिली. 'गोवा विथ लव्ह' हे पंगडान गोंयची कला गोंयच्या गांवगिऱ्या
ठारामेरेन पावयली.

दिवल्यां नाच हो लेगीत काणकोण म्हालांक पयलीं आमच्या वांगड्यांनी
गळ्याक पावयलो. पयलेच फावटी जेन्ना दिवल्यां नाचाची कार्यावळ लोकांच्या
मकारा आयली त्या वेळार हो नाच जावपाक शकना हो खेळाचो प्रकार आसा,
नाचाचो प्रकार न्हय, ताका संद दिवपाक जायना असो लेगीत हट्ट कांय जणांनी
ल्लो. परिस्थिती बदलत गेली. आयज कोणूय दिवल्यां नाच करता. कठीण अशी
रिमिड्स दाखयतात. पुणून दिवल्यां नाच हो लेगीत आमचो पारंपारिक नाच
ासा. तो नाच स्टेजीर दाखोवपाचें पयलें काम आमच्या वांगड्यांचें. घोडेमोडणी
ानी दिवल्यां नाच ह्या दोनूय नाचांक राजमान्यता आनी लोक मान्यता मेळोवन
वपाचें काम करतनाच गोंयचे पारंपारिक लोकानाच, संगीत तिगोवन दवरपाचें
ाम 'गोवा विथ लव्ह' ह्या पंगडान केलें.

* * *

# दिल्लीच्या राजपटणार

भारताच्या प्रजासत्ताक दिसा निमतान दिल्लींत गोंय दिसाचे कार्याव
आयोजन घडोवन हाडलें. हाचे पयलीं बऱ्याच वेळा दिल्ली राजपाटनाक काय
निमतान येवप वचप जाल्ल्यान दिल्ली नवी नाशिल्ली. निजामुद्दिन एक्सप्रेस हे रे
दिल्ली शारांक पावले. भौ. प्रतापसिंग राणे गोंयचे मुखेलमंत्री आशिल्ले. कलाक
बऱ्या दर्जान वागोवपाक जाय ह्या विचाराचे. हांव स्वता कला अकादमीच्या ज
कौंसिलचो सदस्य म्हणून काम करतना भौ. राणे हे कला अकादमीचे अ
आशिल्ल्यान तांचेकडेन बरो संबंद आशिल्लो. कला आकदमीचे संपर्काधि
वांगडा आशिल्ले. दिल्लींतले एके धर्म शाळेंक सगळ्या वांगड्यांली राबित्याची वे
केल्ली. वांगडा चलयो आशिल्ल्यो. जे धर्म शाळेंक राबित्याची वेवस्था आशिल्ल
जाग्यार उदकाची वेवस्था नाशिल्ली. उदक ना हें कारण दाखोवन सगळ
वांगड्यांनी धर्म शाळेंक रावपाक न्हयकार दिलो आनी लागसार दुसरी क
वेवस्था जाता काय किदें हे नदरेन दोन तीन हॉटिलां, धर्मशाळा पळयल्यो
आमचे वांगडी कलाकार चड आशिल्ल्यान तशी सोय जावंक शकली ना. अखे
सगळ्यांनी गोवा सदनाक वचपाचें थारायलें.

गोवा सदनाक सगळ्या वांगडी कलाकारांची सोय केल्ली. पुणून गोवा स
फुल्ल आशिल्ल्यान कलाकारांक धर्मशाळेंक दवरपाची पाळी बिच
संपर्काधिकाऱ्यांचेर आयिल्ली. गोवा सदनाक दोन रूम. एका रुमांक चलयांक
दुसरो रुम चल्यांनी घेतलो. ती सुवात खरी म्हळ्यार रावपासारकी नाशिल्ली.
सदनाक गाडयो पार्क करपाखातीर दोन तीन गॅरेजी आशिल्ल्यो. कोणें
सुचयलें, एक रात गॅरेजींक काडया. सुवात आमकां जाय आशिल्ली. आम
सामानच इतलें. तें गोवा सदनच्या एका रुमांत कशेंच धरपाचें नाशिल्लें. ती
गॅरेजींक काडपाचें थाल्लें.

गोंय दीस उत्तावणाची कार्यावळ. मुखेलमंत्री प्रतापसिंग राणे उत्त
सुवाळ्याक हाजीर आशिल्ले. कार्यावळ सोंपले उपरांत आमचे कलाकार
सदनाकडेन आयले. गॅरेजींक सगळें सामान खाली करून कांय त्याच जा
बशिल्ले. इतल्यांक मुखेलमंत्र्यांची गाडी पावली. गॅरेजींक कांय कलाकार न्हिदल
अशे तांकां दिसलें. तांणी गाडी फाटल्यान घेवपाक ड्रायव्हराक सांगलें.
कलाकार वांगड्याक मुखेल मंत्र्यांनी भायर आफयलें आनी ताका विचारलें,
हांगा किदें करतात? आमगेल्या वांगड्यान खरें तें सांगलें, आमकां हांगा दव
भितर रूम ना खंय. मुखेलमंत्र्यान हीं उंतरां आयकलीं आनी म्हाका रकाद वि
मुखेलमंत्री आफयता म्हटगीच हांव धांवतच आयलों. भायर गॅरेजीकडेन पळयल

वेलमंत्री दारांत उबे, म्हऱ्यांक म्हजे सात-आठ वांगडी कलाकार. हांव येनाफुडें वेलमंत्री म्हणपाक लागले, हें किदें? सर, सुवात नाशिल्ल्यान थोड्या वांगड्यांची स्था हांगा केल्या. म्हजें उत्तर. गॅरेजींक? मुखेलमंत्री तापून उलयले. कला कादमीचो खंयचो अधिकारी आयला तुमचे वांगडा? मुखेल मंत्र्याचो दुसरो प्रस्न. यला सर. आनी हांवें त्या अधिकाऱ्याचें नांव सांगलें. आपय ताका. मुखेलमंत्री डकल्लो आसा, इतलो बोवाळ जाला. तें समजनाफुडें तो अधिकारी भीत भीत कयल आयलो. मुखेलमंत्री तिडकल्लो आशिल्लो. त्याच चडिल्ल्या आवाजांक तो ा अधिकाऱ्याचेर तापलो. तुमी इतले बेजबाबदार म्हणून म्हाका खबर नाशिल्लें. यचे कलाकार गॅरेजींक? तुमी बऱ्या रुमांनी आनी कलाकारांची ही दशा? किदें लोवचें तें त्या अधिकाऱ्याक समजलें ना. मुखेलमंत्री उलयत आशिल्ले. हांवें एक न वेळा मदीच उलोवपाचो यत्न केलो, सर, त्या अधिकाऱ्यांची कांय चूक ना. यलीं जी सुवात पळयली त्या जाग्यार न्हावपाची वेवस्था नाशिल्ली देखून सुवात ामकां सोडची पडली. कलाकार वांगड्यांनीच तशें सांगलें. समजुवपाचो यत्न ातालो पूण मुखेलमंत्री आयकुवपाक तयार नाशिल्ले. तांणी परथून सांगलें, की ाल्यां सकाळीं च्या पियोवपाखातीर सगळे म्हज्या रुमार येवपाचे.

गोवा दिन ही कार्यावळ जाल्ली बरी. पुणून नवीन संकश्ट मुखार आयिल्ल्यान गळेच निरशेले. मुखेलमंत्र्यांनी च्या पियोवपाच्या निमतान आपयल्या खरें. पूण केदें वाडून दवल्लां आसतलें. हातूंकच रात गेली, तरी लेगीत कोणें किदें उलोवपाचें ाच्या संबंदान एक तालीम घेवन तयार जाले. दुसऱ्या दिसाक सकाळीं ७ च्या ुमाराक मुखेलमंत्र्यांचो रकाद आयलो. गोवा सदनातल्या जेवपाच्या सभाघरांत ्याची वेवस्था केल्ली. मुखेलमंत्री आपल्या रुमांतल्यान भायर सल्ले. पूण कालचोच ड, तीच स्थिती. हांवें तशेंच कार्यावळीच्या अधिकाऱ्यान मुखेलमंत्र्यांक मजुवपाचो, सांगपाचो प्रयत्न केलो. पुणून मुखेलमंत्री आपल्या मताकडेन सामके चेकटून आशिल्ले. तांचें म्हणणें एकच आशिल्लें. कलाकारांक जेन्ना गोंयांभायर हरतात तेन्ना तांची राबित्याची, तशेंच जेवणा खाणाची वेवस्था बरी जावपाक जाय. गोंयच्या कलाकारांक भायले लोक जेन्ना पळयतात तेन्ना तांकां आमच्या कलाकारांचो अभिमान दिसपासारकिल्ल्यो गजाली घडपाक जाय. सगळ्या कलाकारांक गोवा सदनाक राबित्याची वेवस्था मुखेलमंत्र्यांनी करून घेतली. जादा रुमांनी सोय जाली. ह्या प्रकारावेल्यान एक गजाल दिसली ती म्हळ्यार कले विशीं आनी कलाकारां विशीं तांच्या मनाक आशिल्ली तळमळ आनी आस्था. कलाकारांक सन्मान मेळपाक जाय हो तांचो आग्रो आनी ताचे खातीर ते धडपडटात ही तांची नवी वळख ह्या प्रकारांतल्यान घडली.

* * *

# मंगळूरचे कोंकणी संमेलन

अखिल भारतीय स्तरावेलें कोंकणी साहित्य संमेलन मंगळूराक भरिल्लें. आमचे इश्ट एरीक ओझारिओ हांच्या बरेपणान मंगळूराक कार्यावळ करपाची संद मेळ्ळी. बऱ्यांतलें बरें आयोजन आनी आंखणी हाचे खातीर हें संमेलन खूब वेळ मेरेन लक्षांक उरपा सारकिल्लें. धार्मिक वाद वा ल्हान ल्हान कारणांक लागून सदांच वादग्रस्त थारिल्या कर्नाटकांतल्या भटकळ वाठारांक दंगल सुरू जाली. सगळ्याक नाका बंदी आशिल्ली. आमच्या मुखार ज्यो गाडयो गेल्ल्यो तांकां उजो लावपाचे प्रकार घडिल्ले. फाटल्यान किदें चल्ला तें समजनाशिल्लें. मंगळूराची कार्यावळ सोपनाफुडें कळाव करीनास्तना आमच्या वांगड्यांनी मंगळूर शार सोडलें. सादारण अर्दवर जर आमकां कळाव जातालो जाल्यार किदें घडपाचें हाची याद जाल्यार लेगीत काळजाक बोमाडे फुटटात.

उदयपूर राजस्थानाक अशाच एका प्रसंगाक तोंड दिवपाचो वेळ आयिल्लो. उदयपूर शारांतल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या धर्मशाळेक कलाकार वांगड्यांली वेवस्था केल्ली. सदचे वरी रातीची कार्यावळ, जेवणां सोपले उपरांत पांय सैल करुया, एकेक पान खावया ह्या निमतान आमगेले कांय जाण धर्मशाळेकडच्यान लागसार आशिल्ल्या एका गाड्यार गेल्ले. त्याच गाड्यार राजस्थानचो उणोच म्हळ्यार ६ फूट लांबायेचो, लांब लांब मिश्यांचो असो पोलिस उबो आशिल्लो. पान खातालो. आमकां पळयनाफुडें, आमगेली भास आयकनाफुडें ताणें चौकशी केली, खंयच्यान आयल्यात? गोंयच्यान... कोणें तरी सांगलें. तो लेगीत खूश जावन ताणें कलाकार वांगडयांक च्याची ऑर्डर दिली. उलयतां उलयतां राजस्थानच्या पोलिसांसारके हुशार पोलीस अख्ख्या हिंदुस्थानांक मेळपाचे नात अशीं वक्तव्यां तो करपाक लागलो. वातावरण तापलें. रातीची वेळ. परक्या जाग्यार आमी आसात. अर्द्या तासापयर्ली आमची चौकशी करपी. आमकां च्या पाजोवपी तो पोलिस कर्मचारी म्हण्टा 'तुमी रातीचे भोंवतात म्हळ्यार किदें, तुमका भितर उडयतां, राजस्थानचे पोलीस कशें तें तुमका दाखयतां'.



मिझोरामांतल्या कलाकारां वांगडा



बोटी वेलो एक खीण





अंजदीवाच्या चर्च सामकारा



व्दारकेक भेट दिली तेन्ना दर्या देगेवेलो एक खीण

रातीची वेळ आनी हेर वांगड्यांक आमी खंय गेल्यात तें खबर नाशिल्ल्यान
ाची नदर चुकोवन आमी ल्हवूच थंयच्यान धांव माल्ली आनी सरळ हांतुणाचेर
वून माथ्यावेल्यान चादर घेवन पडून रावले. तो पोलीस लेगीत बरोच वस्ताद
ांपडलो. ताचें पयलीं आमी खंय रावतात हाची ताणें चौकशी केल्ली. थोड्या वेळान
ो धर्मशाळेच्या दारांक येवन आमगेली विचारपूस करपाक लागलो. तुमगेल्या
ांगड्यांनी आपलो अपमान केला, तांकां दाखयतां, अशें किदें तरी तो उलयता
चादरांभितर आसतना आमी आयकलें. कार्यावळीच्या मुखेल्याक समजलें. फाल्या
ळोवया, तांची चौकशी करुया अशें सांगून ताका धाडलो. ह्या प्रसंगान कलाकार
ांगडी भियेले. तशें पळोवपाक गेल्यार वाद जालोच नाशिल्लो. पुणून दुसऱ्या जाग्यार
ामी आसात. परत गोंयच्या सरकाराचे आमी कलाकार. तेन्ना गोंयचें नांव राखपाची
ापसालदारी आमच्या सगळ्यांची. देखून फाटीं फुडें किदेंय वायट घडचे पयलींच
ामी दुसऱ्या दिसाक ती सुवात सोडली आनी दुसरे सुवातेर रावपाक गेले.

* * *

# भावनगरातली सुंदरकाय

गोफ हो लोकांनाचाचो प्रकार म्हळ्यार आमगेल्या देसाच्या राष्ट्रीय एकचाराचें प्रतिक. विंगड विंगड रंगांच्यो दोरयो एवळ्यांय बांदून खेळगडे घुमट, शमेळाच्या तालार जेन्ना नाचतात तेन्ना हो प्रकार पळयतल्या लोकांक नाचतल्यांक पळोवचें काय गोफ विणटात तांकां पळोवचें हेंच समजना. इतलो हो प्रकार पळोवपासारकिल्लो आसता. गोफ जेन्ना माटवांक वा हेर जाग्यांनी बांदतात त्या वेळार एक गजाल मतींत दवरपाक जाय. गोफाच्या आठ दोरयांक धरून आठ खेळगडे नाचतात, तेन्ना तो तुटूंक फावना. सगळे प्रकार बरे तरेन सादर करपाक संद मेळपाक जाय.

गुजरात राज्यांतल्या भावनगर जिल्ह्यांक कार्यावळ चलताली. नांवांप्रमाण खऱ्यांनीच भावनगर सुंदर शार. भावनगरांतले लोक मायेस्त, कलेचे मोगी, लोकांक उपकार करपाक सदांच फुडें अशे. गुजरात राज्यांतल्या खूब जाग्यांनी भोंवलों पुणून भावनगराइतलें सुंदर शार म्हाका पळोवपाक मेळ्ळे ना. सादारण डिसेंबराचो म्हयनो. आमच्या पंगडाबरोबर राजस्थान, महाराष्ट्र तशेंच गुजरात राज्यांतले लेगीत कलाकार भाव आशिल्ले. भावनगरांतल्या कालिदास रंगमंचाचेर कार्यावळ दवरिल्ली. जशें भावनगर तशे भावनगरांतले लोक आनी ह्या कलामोगींक फावो तशें कालीदास थिएटर.

खंयच्च्याय थिएटरांक पावले उपरांत दोन गजाली आमचे वांगडी पळयताले, एक म्हळ्यार गोफ बांदपाक वेवस्थित सुवात आसा आनी घोडे मोडणी नाचाच्या 'एक्झीटच्या' वेळार खेळगड्यांक भितर शिरपाक सुवात मेळटा मूं? पयलीं पयलीं गोफ नाचाखातीर खूब त्रास जाताले. गोफ बांदपा खातीर थेटरांक मदीं एक हूक वा लांब कोंडो जाय पडटालो. सगळ्याच थेटरांनी तशी वेवस्था आसताच अशें ना. मागीर मागीर आमी बरोबर एक लांब दोरी, दोन लोखंडाचे स्टँड, दोन लांब कोंडे, ताचेर दवरपाक एक बरो लांब असो कोंडो बरोबर व्हरपाक लागले. पुणून आपलें स्वताचें वाहन आसल्यार तें सोपें जातालें. ज्या जाग्यार कार्यावळी चलताल्यो

या जाग्यार पयलीं  एका कोंड्याची ना जाल्यार लांब दोरयेची वेवस्था करची डटाली.

भावनगर थेटर पळयनाफुडें सगळ्या वांगड्यांक खुशी जाली. एक बऱ्यांपैकीं टर. ज्या जाग्यार सगळ्यो सुविधा आसात. आमकां दुसरे सुवातेर राबित्याची ोय केल्ली. आमी म्हळें ना. आमकां हांगाच रावपाचें आसा. कार्यावळी उपरांत वणाची कार्यावळ लेगीत त्याच थेटराच्या दुसऱ्या रुमांक आमी करपाची ारायली. दर खेपेक कामाची वाटणी केल्ली आसताली. गोफ कोणें बांदप, पड्यांच्यो घडयो कोणें करप, गाडयेक सामान कोणें घालप, जेवणाची ापसालदारकी कोणाली. ह्यो गजाली सारक्यो जाताल्यो ताका लागून कसलेंच ांय अडनाशिल्लें.

भावनगर थेटरांक पावनाफुडें सदांचे वरी आमचो नानू गोफ घेवन बांदपाक लो. खरें म्हळ्यार ताची ती जापसालदारकी नाशिल्ली. पुणून दुसरो मनीस त्या ामाखातीर तयार जावपाक जाय हे दिकेन सदांच जो गोफ बांदपी वांगडी आशिल्लो ो वोगीच रावलो. हांव कार्यावळ कशी करपाची हाची हेर राज्यांतल्या कलाकार खेल्यांलागीं भासाभास करतालो. गोफ बांदले उपरांत नानू वेल्यान सकयल ायलो. सगळे वांगडी न्हेसून तयार आशिल्ले.

कार्यावळ सुरू जावपाच्या वेळार गोफ सारको बांदला मरे हाची हांवें सदचे री चौकशी केली. सगळ्यांत पयलीं नानून आपणें हे खेपे गोफ बांदला हाची ्शारकी मारून गजाल सांगली. हांव ओगीच राविल्लों. पूण म्हजें मन म्हाका ांगतालें. 'गोफ बांदपाचो धर्म नानूचो न्हय'. ताचे खातीर आमगेलो सदांचोच ांगडी जाय. पुणून दुसरें मन म्हण्टालें, ना कांय जायना. हेर वांगड्यांक लेगीत ोफ विणपाक जशें कळटा तशें तो कसो बांदप हें लेगीत कळपाक जाय.

कार्यावळीक सुरुवात जाली. दिवल्यांनाच सदांच पयलीं करताले. गोंयचे ारंपारिकतेचें तें एक प्रतिक. खंयचेंय बरें काम दिवली पेटोवन करतात. ोकांनाचाची सुरवात लेगीत दिवल्यां नाचान जाताली. चौथो ना जाल्यार सवो ोफाचो आयटम. व्हड सुवात आशिल्लें थेटर. लोकांचे गर्देन फुल्ल भरिल्लें. प्रत्येक आयटमाक ताळ्यो मेळटाल्यो. गोफ सुरू जायना फुडें विंगड विंगड रंगाच्यो त्यो दोरयो, घुमट आनी शमेळाच्या तालार कुशळतेन विणपी आमचे वांगडी कलाकार. नाचतात त्या वांगड्याचे पाय पळोवप, काय विणटा तो गोफ पळोवप हें पळयतल्यांक समजनाशिल्लें. कार्यावळ बरीच रंगांत आयिल्ली. एक, दोन, तीन प्रकार जाल्ले. गोफाचे आनीक दोन सामके फास्ट तालांतले प्रकार जावपाचे आशिल्ले. तिसरो प्रकार विणून सोडोवपाचो आशिल्लो. घुमट, शमेळ, नाचपी वांगडी सगळेच

सामके धुंद जाल्ले. इतल्यांक घस्स असो आवाज जालो. खिणभर किदें घडलें
कळ्ळेंच ना. वयर बांदिल्लो गोफ तुटुन वांगड्यांच्या हातांक आयिल्लो. सगळ्
वांगड्यांचीं निरशेल्लीं तोंडां पळोवपाक जायनाशिल्लीं. तातूंक नानूय आशिल्लो. नानू
तोंड सामकेंच पडिल्लें. वाजोवपी कलाकार वाजयत आशिल्ले. थेटरांक मात ताळ्यांच
कडकड चलतालो. खिणभर रावन पइडो उडोवपाक लायलो. तरी लेगीत ताळयांच
आवाज चालू आशिल्लो. हांव वांगड्यांक मेळपाक गेलों. नानू खंयच्या तरी कोनशा
तकलेर हात दसरून बशिल्लो. सदांच गोफ बांदपी वांगडी मात उमेदींक आशिल्
तो म्हणपाक लागलो 'गाबत्याक गोरूं आनी भटाक तारूं कोणें सांगला? जे लो
ताळयो मारताले तांचे नदरेन गोफ विणले उपरांत असोच तोडपाचो आसता अ
तांकां दिसलें, म्हणून ते ताळयो मारताले. जितले उमेदीन वांगडी थेटरांक आयि
ती उमेद निरशेल्ली. खंयच्याय कलाकाराक आपली कला पेश केले उपरां
आपल्याक जेन्ना समादान मेळटा ती खरी कला. गोफ विणटाना सोडोवचे पयली
तुटलो ही चूक आमकां समजताली. पळोवपी लोकांक ती चूक समजली ना. गो
विणले उपरांत, तोडून उडोवप हो लेगीत नाचाचोच प्रकार अशें प्रेक्षकांक दिसलें
नानूचे तकलेंक ही गजाल तशीच रावली. ते उपरांत तो केन्नाच गोफ बांदपा
भानगडेंत पडलो ना.

* * *

# महाराष्ट्राची भोंवडी

पश्चिमालाप कार्यावळी निमतान अरस्तंत महाराष्ट्राची भोंवडी चालू आशिल्ली. ोयकारांचें पारंपारिक वाद्य घुमट आनी शमेळ, जीं हेर राज्यांनी मेळपाक कुस्तार ासतात. ताका लागून एकाच्या जाग्यार दोन वा तीन घुमटां बरोबर घेवन वचचें डटालें. ते भायर शमेळाचें चामडें फुटत जाल्यार. ज्यादा 'कवळ' करून व्हरचें डटालें. जळगांव भोंवडेर जेन्ना पंगड आशिल्लो त्या वेळावेली गजाल. वांगडी ब्रूबच कमी. १२ वांगडी. तातूंक तांचीं कपड्यांचीं बॅगां, कार्यावळीखातीर लागपी ोषाख, वाद्यां, घोड्यांच्यो ताट्यो सांबाळप कठीण. ताका लागून दोन घुमटां बरोबर घेतिल्ली. गडबडेंक शमेळाचें ज्यादा कवळ व्हरपाक वांगडी विसल्ले. कसल्या तरी कामाक लागून हांव फाटल्यान राविल्लों.

त्या वेळार आयचे सारकी परिस्थिती नाशिल्ली. फोन, मोबायल नाशिल्ले. अर्जंट किर्देंय जाय जाल्यार लार्गीचो उपाय म्हणून तार हेंच माध्यम. म्हाका तार आयली. एक घुमट आनी शमेळाचें ज्यादा कवळ घेवन यो, हांव किदें समजुवपाचें तें समजलों आनी एक घुमट आनी शमेळाचें कवळ बरोबर घेवन जळगांव वचपाक भायर सल्लो. जळगांव जिल्यांक थंडीचे दीस आशिल्ले. शमेळाचें चामडें चड ताणिल्लें. ताका लागून कार्यावळ चालू आसतनाच शमेळाचें चामडें फुटलें. दुसरें कवळ करतलो जाल्यार चामडें मेळटाले, पूण तें 'चामडें भरप' ही जी पध्दत आसा ती जळगांवच्या कारागिरांक जमपाची नाशिल्ली.

जळगांव जिल्ह्यांतल्या विंगड विंगड वाठारांक ह्यो कार्यावळी चलताल्यो. दरकडेन वचपाचें जाल्यार बशीचो प्रवास. गडबडेंक एक घुमट खंयच्या जाग्यार विसल्ले तें समजुवपाक मार्ग नाशिल्लो. एकच उपाय म्हळ्यार घरच्यान घुमट आनी शमेळ हाडपाचो. म्हाका तार मेळनाफुडें कार्यावळीची गंभिरताय समजून हांव एक घुमट आनी शमेळाचें कवळ घेवन ज्या वेळार म्हज्या वांगड्यां म्हन्यांत पावलो, त्या वेळार तांच्या तोंडार जी एक उमेद आनी हांसो हांवें पळयलो ताचें वर्णन हांव केन्नाच करपाक शकचों ना. मनीस कले खातीर किर्दें करपाक शकता, आयच्या व्यावसायिक आनीक बाजारभावा प्रमाण कलेचो पसारो मांडिल्ल्यो कांय ज्यो यंत्रणा आसात तांकां ताचें मोल समजुवचें ना. कला कित्या बरोबर आनी कशी खावप हार्चे गिन्यान नाशिल्ले आनी नडणे परस कण्णो हालोवपाचें गिन्यान जांचेकडेन चड प्रमाणांक आसा, सरकार दरबारांक त्या लोकांची चलती आसा वा पायांकडेन तकली दवरपाची, लाळ घोटपाची ज्या लोकांनी तयारी दवरल्या, मर्याद सोडून फक्त आपल्या सुवार्था खातीर जे लोक वावुरतात, त्या लोकांक म्हज्या वांगड्यांच्या तोंडावेलो हांसो केन्नाच समजुवपाचो ना.

चाळीस दीस मेरेन भोंवडी. वातावरण वेगळें, जेवण खाण वेगळें. ताका लागू
वांगड्यांक खूब त्रास जातालें. कला सादरीकरणाचे दिकेन पळोवपाक गेल्यार ह
भोंवडी खूब वर्सां याद दवरपासारकी. पुणून भलायकेचे नदरेन पळयल्यार खू
वायट. कार्यावळी सदांच सांजेच्या सात वरांचेर चलताल्यो. अकस्मात म्हाक
कुडकुड्याचो ताप भल्लो. म्हजेकडेन घुमट वाजोवपी दुसरो मनीस ना. बरें, घुम
वाजोवपाक एखाद्या वांगड्याक तयार केलोच जाल्यार गोफ, तालगडी सारकिल्
नाच ६ वांगड्यांभितर करपाची पाळी. ज्या जाग्यार कार्यावळ जावपाची आशिल्
त्या जाग्यार पावनाफुडें हांव पयलीं न्हिदलों. थळाव्या वावुरप्यांनी दोतोराव
आफयलो. तपासल्यार दोन ताप. कार्यावळींक पयलोच आयटम आमचो. ते
अवस्थेंत हांव स्टेजेर वतालों. म्हजे कार्यावळी वेळार वाजयतालों. परतो येव
न्हिदतालों. अशे तरेन तीन प्रकारांक हांवें साथ दिली. ताप चडटालो. हां
कुडकुडटालों. परथून दोतोराक आफयलें. दोतोर म्हण्टा. 'आराम घ्या'. पुणून हां
न्हिदलों जाल्यार कार्यावळीचेर परिणाम जावपाचो. घोडे मोडणी हो नाच शेवटा
जातालो. धोलार बडी मारपाक कशेंच जायनाशिल्लें देखून हांव न्हिदलों. तुम
सोबोवन व्हरात इतलेंच हांवें म्हज्या वांगड्यांक सांगलें.

दोन तीन दीस म्हजे अशेच गेले. दिसाची भोंवडी. रातच्यो आंगार ताप घेवन
कार्यावळी चलताल्यो. इतल्यांक म्हजो दिवल्यांचो नाच करपी एक वांगडी पोटां
दुखता म्हणून वळवळटालो. रातीची वेळ. ताची अवस्था पळोवन हांव भियेलें
जिवाक किदें बरें वायट जाल्यार ताच्या घरच्यांक हांव किदें सांगतलों हो विचा
तकलेंक घोळटालो. ताचेर मात रोकडोच उपाय जाल्लो.

हेच भोंवडेच्या वेळार रातचो म्हज्या पांयांच्या बोटाक कोणें तरी घास माल्लो
गुजरात राज्यांतले वांगडी आनी आमचे वांगडी एकठ्यांय रावताले. गुजरातच्य
पंगडांक एक जाण्टो वांगडी कलाकार आसलो ताका सगळे चाचा म्हण्टाले. हां
भियोवन उठलों. म्हाका दिसलें जिवाण्यान घास माल्लो. चाच्याक ही गजाल सांगलो
चाच्यान म्हाका कळाव लायिनास्तना दोतोरागेर व्हेलो. बोटाक दोन दांत लागिल्
शेर्त जिवाणेंच तें अशें म्हाका दिसतालें. दोतोरान जेन्ना बारीकसाणेन पळयलें तेन्न
ते दांत उंदराचे हें लक्षात आयलें. सगळ्या वांगड्यांक ही गजाल कळ्ळी तेन्न
सगळे हांसपाक लागले. पुणून गुजरातच्या चाच्यान मात पद घडयलें.

उंदीर मामा आयलो ... घांस मारून गेलो!

* * *

# नानूले वेगळेपण

दिल्लीच्या चांदणी चौकालार्गी कार्यावळ थारायिल्ली. दिल्ली शारांतर्ली कांय ठारांर्ची नांवां ताचे पयर्ली पुस्तकांतल्यान वाचपाक मेळिल्लीं. चांदनी चौक, रोल बाग, दर्यागंज, पालिका बाजार, कॅनॉट प्लेस हीं नांवां चड करून हिंदी स्तकांतल्यान हाचे पयर्ली आयकल्ली. आनी ह्या वाठारांविशीं एक प्रकारची त्सुकता काळजांक आशिल्ली. नांवांक किदें आसता? अशें म्हणटात. कांय कांय ठारांक जीं नांवां दिर्ली आसतात तांचो ताळ मेळ कसोच जुळना. पूण दिल्ली राच्या बाबर्तीत मात वेगळो अणभव आयलो. आमचे इश्ट भौ. तिमोतिओ फर्नांडीस च्या सांगतान त्या वर्साक प्रगती मैदानाचेर भरिल्ल्या व्यापारी मेळाक आमची ार्यावळ थारिल्ली. ज्या जाग्यार आमी वतात त्या जाग्यार पयर्ली रावपाची वेवस्था री जावपाक जाय अशें सगळ्याच वांगड्यांक दिसता. पुणून सदांच बऱ्यो सुवातो ळटात अशेंय ना. ताका-लागून कांय कांय वेळार गॅरेर्जीक रात काडपाचे, ना ाल्यार रेल्वे स्टेशनाचेर रात धुकलपाचे प्रसंग आयल्यात. जाल्यार कांय वेळार ऱ्यो पॉश ज्याका आमी म्हणटात तश्यो सुवातो लेगीत मेळ्ळ्यात.

दिल्लीच्या चांदनी चौक वाठारांतल्या खंयच्या तरी धर्मभुवनांक रावपाची वस्था तिमोतिन केल्ली. कार्यावळ फक्त चार दिसांची, पुणून कांय वांगड्यांक ाग्रा, मथुरा वचपाची इत्सा आशिल्ली. कांय वांगड्यानी दोन तीन खेपो तरी ाजमहाल पळयिल्लो. कार्यावळ जाले उपरांत दुसऱ्या दिसाक तिमोतीन खंयच्या री टुर्स अँड् ट्रॅव्हल्स कडेन संपर्क साधलो आनी दुसऱ्या दिसाक आग्रा वचपाचें ारायलें. आमच्या वांगड्यांतले एक दोग जाण 'आमी हांगाच रावतात आनी शॉपींग रतात' अशें सांगपाक लागले. आमी ताजमहाल पळयला. कितले फावटी पळोवप. हाकाय दिसलें, आसुं दी.

सकाळीं ७ वरांचेर दिल्लीच्यान आग्रा वचपाक बस सुटली. वाटेवयर्ली थळां ळयत दनपारच्या वेळार ताजमहाल वाठारांक आमची गाडी पावली. हांव जरी

बर्शींत आशिल्लों तरी लेगीत म्हजें मन मात दिल्लीकच आशिल्लें. शॉपींग करपाक रावतात म्हणून सांगनाफुडें आमचो नानू लेगीत फाटल्यान राविल्लो. कसलीं तरी विचित्रपणां करपाक नामना मेळयिल्लो हो नानू. ताचो एक विक पॉयट. ताच्या नाकाक कोणेंच हात लायिल्लो ताका आवडनाशिल्लें. ताका राग येता. देखून परथून परथून कांय जाण ताच्या नाकाक हात लायताले आनी ताका पिकार करताले. फाटल्यान जे रावपाक तयार जाल्ले तांची संख्या पांचाचेर पाविल्ली. पांच थंय परमेश्वर अशें म्हणटात. पुणून पांच थंय घात अशेंय जावपाची शक्यताय आसता. नानू फाटल्यान आसा. ताची हेर वांगडी फकाणां बी करचे ना मूं? नानू तो. त्रासांत घालतलो म्हाका. अशे विचार तकलेंक परते परते येताले.

वाचपाक, बरोवपाक कळनाशिल्लो असो आमचो नानू खूब प्रामाणिक. कसलेंय काम ताका सांगचें, तें तो वेवस्थित करपी. ताचेकडेन विश्वासान कसल्योय वस्ती दिवच्यो तो सांबाळपी. गोवा विथ लव्ह हे कार्यावळीक तो रेंदेर जातालो. पारंपारिक भेसांतलो तो रेंदेर दाखयतालो. आमचे वांगडी ताका पिकार करतना म्हण्टाले 'परोपकारासाठी नानू रेंदेर झालासी'. ताचें ताका कांयच दिसनाशिल्लें. पुणून नाकाक हात लायलो जाल्यार तो खावपाक येतालो. गाडयेंक आसलो जाल्यार गाडयेंतल्यान उडी मारपाक करतालो. ना जाल्यार खंय तरी पयस सुवातेचेर वचून एकांतांक लिपून रावतालो. ताच्यो खोडी म्हाका खबर आशिल्ल्यो.

सांजेच्या सात वरांचेर आग्रा, मथुरा, जामा मशिद हे सगळे वाठार पळयले उपरांत जेन्ना आमी धर्मभुवनाक पावले त्या वेळार फाटल्यान जे पांच वांगडी राविल्ले तातुंतले चार जाण ओग्गी बसून आशिल्ले. त्या जमावांक नानू नाशिल्लो. फाटल्यान रावले उपरांत वांगड्यांनी नानूचीं फकाणां मारपाक सुरुवात केली. तिडकीन नानून पळ माल्लो. ताणें दोन सुवातो पळयिल्ल्यो. लाल किल्ला वाठारांतलीं गरम कपड्यांचीं दुकानां आनी चांदनी चौकांक आशिल्लें भगवान शंकराचें देवूळ. पयलीं दोन दीस त्यो दोनूय सुवातो आमी सगळ्यांक दाखयिल्ल्यो. हांवें चितलें नानू चड करून देवळांक बशिल्लो आस्तलो. पूण कितलो वेळ तो थंय बसतलो? हें किदें मद्रास शारांतलें देवूळ न्हय? चड वेळ एकाच वाठारांक दिसल्यार लोकांक दुबाव येता आनी दिल्ली शार तशेंच चांदनी चौकांतलो वाठार. सदच्यांवरी म्हज्या एक दोन सांगात्यांक घेवन हांव नानूक सोदपाक गेलों. दोन तीन सुवातो पळयल्यो. तो दीस सोमाराचो आशिल्लो. देवळाच्या सामकारा भीक मागप्यांच्यो लांब लांब रांगो लागिल्ल्यो. मुखार गाडयांची रांग आशिल्ली. बोवाळ चलतालो. पयशेकार लोक भीक मागप्यांक अन्नाचें दान करताले. जेवण लेगीत थंयचे थंय मेळटालें. जेवण विकपी लोक, विकतें घेवपी आनी गरिबांक वाटपी अशें वेगळेंच चित्र थंय दिसतालें.

ामी सोदपाक गेल्ले नानूक. पूण जेवण मेळोवपाखातीर भीक मागप्यांची चल्लिल्ली धडपड, एकामेकांक फाटल्यान ओडून मुखार वचपाचो यत्न, हात वयर काडून वण ओडून घेवपाची चल्लिल्ली शर्यत, पळोवन खिणभर त्याच जाग्यार आमी वले. असल्यो कांय ज्यो गजाली चलतात त्यो पळोवपाची नानूक पयलीं साकून वकळ. हांवें चितलें. नानू ह्याच वाठारांक आसतलो. आनी खऱ्यांनीच ताका ोदपाक चड कळाव लागलो ना. देवळाच्या बरोबर सामकारा तो उबो आशिल्लो. दांचेच स्टाईलीन. काळा वेळाची ताका पर्वाच नाशिल्लेवरी. आमकां पळोवन थोडो ळ तो काचवेल्लेवरी जालो. नानूक पळयनाफुडें पयलीं म्हजो जीव धादूस जालो. चेर तापल्यार सदचींच कारणा तो सांगतलो हाची म्हाका जाणविकाय आशिल्ली. ामी वोगीच रावले. तो किदें ते समजलो. आनी सकाळच्या धा वरांक साकून ार्णे जें पळयलें तें सगळें सांगपाक लागलो. सात आठ वरां तो हें अन्न संतर्पण ळयतालो. व्हडल्यो व्हडल्यो गाडयो घेवन लोक येताले. त्याच वाठारांक विकपाक शिल्ल्या लोकांकडच्यान जेवण विकतें घेताले. कोण जिलेबी जाल्यार कोण पुलाव ाटट्टाले. आठ दिसांतल्यान एक दीस. जेवण वाटपी लोक वेगळे. घेवपी मात च. आठ दिसांचो पुरमेंत करपाक चलिल्ली ती धडपड धांवपळ नानूच्या ोंडातल्यान आयकली. थोडो वेळ आमी लेगीत ताचो अणभव घेतिल्लो. अन्नाच्या ण्णाखातीर मनीस कितलो धडपडटा! ह्या देसांत कितले जीव अन्न उदकाक लागून ळमळटात! एका वेळचें जेवण लेगीत तांकां मेळना. कारणां कसलींय आसूंदी.. णून म्हजें कडेन जे आसा ताचो थोडोसो वांटो जायना, ज्या लोकांक खावपाक ांयच मेळना अशा लोकांक वाटपी लोक ह्या संवसारांक आसात देखून मनीसपण शिल्लक उरला. दिल्लीच्या चांदणी चौक वाठारांतल्या भीक मागपी लोकांक आठ दिसांतल्यान एक दीस जेवण घालपी लोकांक हांव मान दितां तो हेच खातीर. ानून हें सगळें पळयलें आनी तो रागान कित्याखातीर गेल्लो तें विसल्लो. खरें हळ्यार फाटल्यान जे वांगडी राविल्ले तातुंतल्या एकट्यान ताच्या नाकाक हात ायिल्लो. ते तिडकीन नानू रुमांतल्यान भायर सरिल्लो आनी ह्या जेवणावळींक ुसफटून पडलो.

* * *

# दादर स्टेशनावेलो आकांत

दिल्ली भोंवडे वेळावेली गजाल. दिवल्यां नाच हो नवोच प्रकार बसयिल्लो. त्या नाचांक पिरेमिड्साचे विंगड विंगड प्रकार चलताले. पेटयल्ली दिवली माथ्यार घेवन वयर चडपी त्या वेळार म्हजेलार्गी एकच कलाकार आशिल्लो. गोंय मुंबय बशीचो प्रवास केले उपरांत मुंबयच्या दादर स्टेशनाचेर रातच्या धा वरांचेर आमी दिल्लीचे रेल्वेची वाट पळयताले. दादर रेल्वे स्टेशनाचेर भोंवडेकारांची गर्दी आशिल्ली. सकाळच्या पांच वरांचेर मुंबय- दिल्ली रेल्वे सुटपाची. सगळें सामान घेवन मेळत थंय भोंवचे परस रेल्वे स्टेशनाचेर रावप बरें हे नदरेन आमी रेल्वे स्टेशनाचेर रावले. इतल्यांक म्हजे दोन वांगडी धांवत आयले. 'सदू' उदकांक लोळटा,. ताच्या तोंडांतल्यान फेस गळटा. हांव तसोच धांवलों. जाल्यार संडासा लार्गी सदू उदकांक लोळटा. दोगा तिगांनी ताका धल्ला. तोंडांतल्यान खऱ्यांनीच फेस गळटा.

दादर स्टेशनाचेर लोकांची अशीय जाल्यार गर्दी आसताच. आमचेर आंकांत आयलो. इतल्यांक एका 'कुलीक' ही गजाल दिसली. तो धांवत आयलो. आपल्या पायांतलें चामड्याचें जोतें ताणें काडलें आनी सदूच्या नाकालार्गी व्हेलें. एक दोन वेळां हो प्रयोग करिनाफुडें सदू ल्हवू ल्हवू निवळपाक लागलो. तेन्ना आमकां समजलें. सदूक फिट्स येताली. म्हाका तें व्हड नाशिल्लें. हांव सदांच मुखावेलें चित्तालों. दिवलेचो नाच चलता. पेटयिल्ली दिवली घेवन सदू वयर चडिल्लो आसा आनी अकस्मात ताका फिट्स आयली जाल्यार किदें जावपाचें? ताचेर उपाय म्हणून दिवल्यां नाच करपी हेर वांगडी तयार जाले.

दिल्लीची कार्यावळ सोपोवन गांवांक येवच्या वेळार मुंबय रूम सोदपा खातीर जी भोंवडी जाली आनी बोल्सांत पयशे आसतना लेगीत मुंबयच्या बंदाक लागून देड दीस उपास काडचे पडिल्ले ते दीस याद जातात. मुंबयच्यान दुसऱ्या दिसाच्यो ३ वरांचेर बशीच्यो तिकिटी काडिल्ल्यो. आदल्या दिसाक पांच वरांचेर मुंबय पाविल्ले. ताचे पयलीं दिल्लीच्यान म्हज्या एका इश्टाक हांवें तार धाडिल्ली. आमच्या १२

ांगड्यांची मुंबय एके रार्ती पुरती रावपाची वेवस्था करपाक ताका सांगिल्लें. गिरगांवांक आमकां येवपाचें आशिल्लें. मुंबय भोंवप तशें खूबच जड. त्रासाचें. घोडे मोडणीच्या सामानाच्यो दोन ट्रंको, घुमटां, शमेळ हेर सामान रेल्वे स्टेशनाचेर लॉकपात दवरलें आनी गांवांक जशे भोंवतात तशे हातांक एकेक बॅग घेवन रस्त्यान आमी चलताले. आमचे भितर एक वांगडी सुवात खबर आशिल्लेवरी आमकां व्हरतालो. सगळ्यो वाटो, रस्तेय नवे. पुणून नशीब आमचें. जे सुवातेर आमकां वचपाचें आशिल्लें त्या गिरगांवांतल्या 'काळा हत्ती' हे सुवातेर आमी पावले. ती रात त्या जाग्यार आमी काडली. पुणून आयज लेगीत मुंबय रातचे हातांक सामानाच्यो बॅगो घेवन भोंवताले ते दीस याद जातात.

सगळ्या राजकीय पार्टीनी भारत बंदाचे आवाहन दिल्ले. मुंबय बंदाचो परिणाम कसो जाता हाचे गिन्यान आमका नाशिल्ले. भाजपा, शिवसेना सारकिल्ल्या पक्षांनी बंदाक पाठिंबो दिल्लो. दोन तीन दिसांचो रेल्वेचो प्रवास केले उपरांत मुंबय पाविल्ले. रेल्वेतल्या जेवणान वीट आइल्लो. मुंबय पावनाफुर्डे गोंयकारांची 'शीतकडी' जेवपाची हे उमळशिकेन मुंबय पावनाफुडें जेन्ना मुंबय बंद हें समजलें तेन्ना पयलींच भुकेल्लो, तानेलो जीव निरशेल्लो. दादर रेल्वे स्टेशनाचेर आमी पावले. सदांच लोकांचे, गाडयेचे गर्देन भरिल्लो हो वाठार, सामको निर्मनुष्य असो दिसतालो. कसोय भोंव. कोणच विचारिनाशिल्लो. रस्त्यार तरणाटे क्रिकेट खेळटाले. भाजपा शिवसेनेचे फुडारी बंदांक वाटो घेतिल्ल्या लोकांक फोर्स दिताले. सदांच रस्त्यार, फुटपाथार बसपी फेरेंवाले दिसनाशिल्ले. च्या पितले, नास्ता करतले, म्हळ्यार हॉटेलां बंद आशिल्लीं. दनपारचे जेवतले म्हळ्यार खाणावळी बंद आशिल्ल्यो. बंद म्हळ्यार किदें हाचो अणभव मेळ्ळो. बोल्सांत पयशे खुळखुळटाले. पूण बंदाक लागून सगळी रात आनी आदेस उपार्शी काडचो पडलो. सांजेच्या तिनाक ज्यो बशी सोडपाच्यो त्यो सांजेच्या ७ वरांचेर सोडल्यो आनी रातच्या ११ वरांचेर पनवेल पावनाफुडें देड दिसाचें उपोषण मोडपाचो प्रसंग अणभवलो.

* * *

# मुंबयचे कोकम संम्मेलन

मुंबयक 'कोकम' संम्मेलन भरयिल्ले. कोकणी, कन्नड आनि मराठी बरौवप्याचे खेरीत वेगळेपण आशिल्ले अशें तें संम्मेलन. कोकणीकेडेन पयलींपुसून संबध आशिल्लोच. पुणून एखाद्या संमेलनाक वाटेकारी इतली तांक नाशिल्ली. आनितशें व्यासपीठ लेगित तयार केल्ले नाशिल्ले. ते वेळार कमलाकर म्हाळशी बाब गोंय कोकणी अकादमीक वावर करतालें. तांका एक सवकळ आसा. तांचो स्वभावच तसो म्हळ्यार जाता. ते ज्या सुवातेर आसतात त्या जाग्यावेल्यान आपल्या गांवच्या तरणाट्याक मुखार हाडपाची जी संध मेळटा ताताणी केन्नाच सोडली ना.

मुंबयच्या 'कोकम' संमेलनाच्या येवकार आणि उत्तावण सोवळ्याच्या वेळार लोकांनाचाची कार्यावळ घडौवन हाडली.कमलाकर बाबाक खूप दिसताले त्या संम्मेलनाक म्हजो पंगड धाडचो. वेलिंगच्या कांता गावडेचो पंगड धाडचो. ना जाल्यार महेंद्र फळदेसायाचो पंगड धाडचो. तीन पंगड वेगळे. तांचे नाचाचे प्रकार वेगळे. पुणून तीन कलाकारांक एकठ्यांय करपाची कमलाकर बाबाची खूप दिसा फाटली इत्सा आशिल्ली. म्हज्या पंगडातले लोकांनाचाचे प्रकार आनि महेंद्र फळदेसायाकडेन आशिल्ल्या प्रकारांक व्हडलो असो फरक नाशिल्लो. वेलिंगचे कांता गावडे आमच्या दोगांपरस ताशिल्ले कलाकार. गळ्याक घुमट घालून एक पांय सामकारा दवरून तो 'रंगला रे रंग देवता' हें जागरांतलें लोक गीत जेन्ना म्हण्टा तेन्ना ताचे तोंडातले स्वर आयकोवचे, ताची घुमटावेली थाप पळौवची काय ताल आनि स्वराच्या नादाचेर तो धोलता ते पळौवचें हे समजना. इतलें ते सोबित आसता. त्या कार्यावळेंक कांता गावडेचो पंगड थारिल्लोच. आता प्रस्न आशिल्लो म्हजो पंगड वा महेंद्र फळदेसायाचो पंगड व्हरपाचो. दोगांचे पंगड वांगडा कशेंच शक्य नाशिल्ले. कार्यावळ फकत दोन दीसांची. कमलाकर बाबान म्हाका वांगडी वादक केलाकार म्हण येवपाची गळ घाली. म्हजो स्वत:चो पंगड आसताना दुसऱ्या पंगडाच्या बरोबर एक साधो कलाकार म्हणून हावें वचपाचें. फाटलो फुडलो विचार करीनास्तना हांवे मान्य केले. तशी मुंबय म्हाका नवी नाशिल्ली, पुणून कांता,

महेंद्र, कमलाकर बाब एवढ्यांय मेळटात. आनि आमका तिगांयक एवढ्यांय हाडपाची खूप दिसा फाटली कमलाकर बाबाली इत्सा आसली. ती तांची इत्सा जर फळाक यता जाल्यार एक कलाकार या दिकेन हांव ते सदांच मान्य करतोलो.

ठाणे शारांक भरील्ल्या 'कोकम' संमेलनांक कोकणी, कन्नड आणि मराठी साहित्यांमदल्या म्हाल गड्यांची वळख जी जाली ती कमलाकरबाबाक लागूनच. खरें म्हळ्यार ज्या दिसाक कार्यावळ थारील्ली. तो दीस कांताच्या दिकेन महत्त्वाचो आशिल्लो. ते वर्साक गोंय युवा राज्य पुरस्काराखातीर कांताचे नाव गेल्ले. आमका सगळ्यांक दिसतालें, की कांताक युवा पुरस्कार मेळपाक जाय. पुरस्काराखातीर मुलाखत घेवोप, हे मुळांकच म्हाका मान्य नाशिल्लें. कांताले नाव आमीच सुचयिल्लें.

एखादो तरणाटो वावर कसो करता, खयंच्या क्षेत्रांत वावुरता त्या संबदीची म्हायती जरूर घेवची पडटा. पुणून आसू दी. सत्तेच्या मुखार शाणेपण चलना. कांताक मुलाखतीक उभे रावपाचे आशिल्ले तो फाटल्यान येवपाचो. महेंद्राच्या पंगडाक दिवले नाचाक कांता पेटी वाजयतालो. गोयांभायर जेन्ना अशो कार्यावळ्यो जातात ते वेळार उणे कलाकारांभितर चडात चड कार्यावळ्यो दिवच्यो पडटात. तेन्ना एकमेकांक मजत ही करचीच पडटा. वाजोवपी कलाकार चड करून सगळ्याच प्रकारांक तेच आसतात. ती तजवीज करची पडटा. कांता फाटल्यान येवपाचो. कसोय तरी तो कार्यावळेक पावतलो हाची आमका जाणवीकाय आशिल्ली. पुणून कांता पावलो ना जाल्यार? जागराचो व्हडलो असो त्रास जायनाशिल्लो. हेर वाजोवपी आशिल्ले. महेंद्राच्या दिवली नाचाक पेटी वाजोवपाक जाय आशिल्ली. महेंद्राक हांवे सांगले. तू भियेवनाका. जमतले तें. हांव वाजयता. वेळ पडल्यार पेटी, घुमट, धोल, तासो ही वांद्या हांव वाजयतालोच.

हे सगळें कमलाकर बाब पळयतालो. ताका हे अशेंच घडील्ले जाय आशिल्लें. तिघा जणांक एकठ्यांय हाडपा फाटलो तांचो उद्देश्यच तो आशिल्लो. फुडे म्हाका पेटी वाजोवची पडली ना ती गजाल वेगळी. कांताक हुसको आशिल्लोच. तो कार्यावळेच्या वेळारच पावलो. खऱ्यांनीच बेस भरी कार्यावळ जाली 'कोकम' संम्मेलनान एखादी कार्यावळ शिस्तबद्ध रित्या कशी करूंक यता हाची देख दिली. हांव, महेंद्र, कांता एवठ्यांय येवन कार्यावळ करपाक जाय अशी जी खूब दिसा फाटली कमलाकर बाबाली इत्सा आशिल्ली ती लेगित पुराय जाली. आनि सगळ्यांक व्हडली गजाल म्हळ्यार त्या वर्साचो गोंय राज्य युवा पुरस्कार लेगीत कांताक फावो जालो.

कोकणी, कन्नड आनि मराठी ह्यो तीन भासो. त्या भासांमदले बरौवपी आपसांत झगडीनास्तना एवठ्यांय येवपाक जाय. भासा भासामदी आडखळ्यो येवपाक

जायनात. ह्या उदेशान 'कोकम' संम्मेलनाचे आयोजन करतात. 'कोकम' या खाशेल्या सरबतात संम्मेलनाचो समारोप जाता. सगळ्या भासांची उलौवपाची, बरौवपाची तरा जरी वेगळी आसली तरी भारतीय संस्कृतायेचे ते दायज आसा. आमी आपसांक झगडी करूंक फावना. ताचो लाब हेर घेतले. ह्यो भासा देसी. आमी झगडत रावल्यार 'इंग्लेज' आमच्या माथ्यार बसतली. फुडल्या पिळगेच्या, इतिहासाच्या आणि भारतीय संस्कृतायेच्या दिकेन ही सामकी वायट गजाल आसा. आमका तिंगा कलाकार भावांक एवठ्यांय हाडपा फाटलो उद्देश लेगीत असोच आसू यता. ताच्या उपरांत परत 'कोकम' संम्मेलन जाले वा ना हाचो बोबाळ आयकलो ना. आनि कमलाकर बाबान ज्या भावनेन, आनि उद्देशान हो खटाटोप केल्लो तो फळाक गेलो वा ना हे लेगिन बंद डब्यांकच पडून आसा.

* * *

# आनि अंजदीवार तारु सोडले...

जाण्टेल्यांचे पुण्यायेक लागून देसभर भोंवडी करपाची संद मेळ्ळी. गोंयची, गोयांभायली, पांच नखेत्रांचीं हॉटिलां, अतिमहनीय व्यक्ती, ताचे मुखार कार्यावळ करपाची संद मेळ्ळी. देसांतलीं बरीं बरीं थळां पळयलीं. बऱ्या बऱ्या मनशांकडेन संपर्क आयलो. गांवांतल्या तरणाट्यांक देस भोंवपाची, आपली कला दाखोवपाची. देसांक लोक कशे रावतात. किदें खातात. इतलेंच न्हय, हेरांकडेन कशें वागप हाची देख हे भोंवडेंतल्यान मेळ्ळी. 'कलाकार' जावपाक मेळ्ळें. हें सगळें करतना जाण्टेल्यांच्या या संचिताक रस्त्यार हाडपाचें वा ताका बाजारी स्वरूप दिवपाचें काम केन्नाच घडलें ना. जें खरें तेंच दाखयलें. नसतो कंडो हालयलो ना. वतां वतां नडणी लेगीत काडली.

वय वाडटा तशे कलाकार बदलताले. नवे वांगडी पंगडाक मेळटाले. आमचे भितर लेगीत मतभेद आशिल्ले. कांय जाणांनी चव्हाट्यार घाले. कांय जाणांनी दाबून दवल्ले. पुणून हाचो फायदो हितशत्रूंनी घेतलो. आमचें नाणें खणखणीत.पुणून सरकाराकडेन पांय धरपाचो, लाळ घोटपाचो यत्न जालो ना. राजाश्रय आस्तना लेगीत हित शत्रूंनी तशेंच विरोधकांनी आमकां सकयल उडोवन आमगेल्या तोंडांतलो घास घेतलो.

रशियाक भारत महोत्सव भरिल्लो. गोंयची घोडे मोडणी हो नाच त्या महोत्सवांक व्हरपाचें थारिल्लें. रशियाच्या सांस्कृतिक खात्याच्या मंत्र्यांच्या सामकारा ताची तालीम जाल्ली. पुणून घोडेमोडणी धाडीनास्तना हेर नाच कला अकादमीन रशियाक धाडले आनी आमगेल्या वांगड्यांचेर अन्याय केलो. अशे प्रसंग खूब वेळा आयले. आमकांच संद दिवपाक जाय असो आग्रो आमी केन्नाच धल्लो ना. कित्याक तर आमचे वांगडी नडणी काडटाले, कंडो हालय नाशिल्ले. कोणाचेच पांय धरिनास्तना, कसलोच आश्रय नास्तना, फाटल्यान कसलोच आदार नास्तना लेगीत गोंयचो फामाद पंगड म्हणूनच म्हज्या पंगडाची नामना आसा.

मुंबय शारांक जाल्लो अपना उत्सव, दिल्लीच्या राजपाटणार जाल्लो अपना उत्सव, उदयपूर, हरियानांतली फुलवारोंकी सैर, महाराष्ट्र, गुजरात राज्यांतलो पाश्चिमालाप, दिल्लीच्या तालकटोरा स्टेडियमाचेर जाल्लो गोवा दीस, प्रगती मैदान, ग्वाल्हेर शारांतलो गोवा दीस, प्रजासत्ताक दिसाच्या निमतान राजपथाचेर जाल्ले संचालन, पश्चिम क्षेत्र, दक्षिण क्षेत्र सांस्कृतीक केंद्रांचें उक्तावण, मद्रास अंदमानांतलो दीप महोत्सव, गोंयच्या चोगमाची कार्यावळ .... दर खेपे नवी कार्यावळ, नवो यत्न... नवो अणभव ...

आयज देसाचे नौसेने कडेन आशिल्लें आनी एकां तेंपार काणकोण म्हालाचे घटक जावन आशिल्लें अंजदीव बेट. गोंय मुक्ती लड्याच्या वेळार कारवारच्या बंदरांक थारिल्या साबरमती बोटींचेर पोर्तुगीज सैनिकांनी ज्या अंजदीव बेटा वेल्यान गोळीबार केल्लो तें बेट. ह्या बेटांचेर गोंय सुटके पयलीं सादारण २३ वर्सां मेरेन कमांडर म्हणून काम केल्ल्या आंतोन फ्रान्सीस्क डायस हांकां लागून वचपाची अंजदीव पळोवपाची संद मेळ्ळी.

चारय वाटांनी दर्या आनी मदींच एका फातराचेर बशिल्ले वरी हो वाठार. ह्या बेटाचो आपल्या सुवार्था खातीर जायना कित्याक पुणून वापर केलो. उणीं म्हळ्यार ४५० वर्सां ह्या बेटाचो सांबाळ केलो. कांय प्रमाणाक उदरगत केली. ह्या बेटाचे पुनर्वसनाचे दिकेन वावर करतना मोट्या प्रमाणाक आशिल्ली वन संपत्ती काबार केली. ह्या वाठारांक गोंय सुटके पयलीं उणीं म्हळ्यार २३ वर्सां कमांडर आशिल्ल्या भौ. डायस हांकां अंजदिवाच्यो खाणो खुणो खबर आसात. गोंय सुटके पयलीं या बेटाचेर १३ घरां आशिल्लीं. मडगांव, बारदेश म्हालांतले हे लोक. १९५४ सालांक कसल्या तरी रोगाची लागण हांगा आयली. ताका लागून बारदेश म्हालांतले लोक थंयच्यान भायर पडले. जे रावले तांणी आपलो संवसार फुलयलो. नवीन घरां बांदलीं गोरवां सांभाळ्ळीं. शेतां, भाटां पिकयलीं. गोंयांबरोबर १९६१ क अंजदीव बेटाक स्वतंत्रताय मेळ्ळी. तेन्ना पोर्तुगीज सरकाराचे खबरेकार म्हणून भौ. डायस हांकां धल्लो आनी सगळ्या वसाहत वाल्यांक अंजदीव सोडचें पडलें. पुणून आज लेगीत ताच्यो खाणो खुणो ह्या बेटाचेर गेल्यार पळोवपाक मेळटात.

आंब्याचीं, पणसाचीं चिकार झाडां, बोरीचें वन म्हणपाक जाय इतलीं सगळ्या रानांक वाडिल्लीं बोरीचीं झाडां. नाल्लाची बागायत. काणकोण म्हालाचो एक संघ कुडको आशिल्या ह्या वाठाराचेर नौसेनेन कब्जो केला. देशाचें संरक्षण ही पयली गजाल. पुणून गोंयचे नदरेन ही वायट गजाल. पोर्तुगीज लोकांनी रावपाक बांदिल्लीं घरां मोडल्यांत. तांच्यो फक्त खुणोच दिसतात. ह्या वाठारांक दोन इगर्जी आसात, ताची सुदारणा केल्या. वर्सान २ फेब्रेराक हांगा फेस्त जाता. नौदलान हें बेट घेवचे

पयलीं कोणूय अंजदीवाक वतालो, रावतालो. पुणून आयज वचपाक मेळना. फक्त २ फेब्रेर हो दीस मेकळो सोडला. गोंयच्या सगळ्या वाठारांतल्यान लोक फेस्ताक येतात. ह्या वाठारांतली एक इगर्ज ज्या जाग्यार आसा त्या जाग्यार पयलीं शंकराचें देवूळ आशिल्लें अशें सांगतात. देवळासारकोच प्रकार. एके वटेन अगरशाळा, दुसरे वटेन लोकांची बसपाची सुवात. ह्यो सगळ्यो गजाली पळयल्यार हें पयलीं देवूळ आसुंयेताअश्यो खुणो दिसतात. पुणून बाटाबाटीच्या वेळार गोंयच्या हेर देवळांवरवीं अंजदीवच्या देवळाचेर लेगीत संकश्ट आयलें, देवूळ उडयलें, चर्च बांदली. पुणून देवळाचें दर्शन घडोवपी वण्टी मात अजून लेगीत तश्योच आसात.

अंजदीव बेटाक मुक्त करपाखातीर बंगाल, राजस्थान, उत्तर प्रदेशांतल्या सुटके झुजाऱ्यांनी बलिदान केल्लें आसा. तांचें स्मारक हांगा आसा. ध्वजस्तंभ आसा. हुतात्म्यांचीं नावां आसात. पुणून हांगा झेंडावंदन जाता काय ना हाचो पत्तो ना. ज्या हुतात्म्यांनी बलिदान केलें तांचो उगडास जाता काय ना हें सांगपाक जायना. नेव्हीकडेन आशिल्ल्या अंजदीव बेटाचेर कांय प्रमाणांक सुदारणा करून गत वैभव परथून तयार करपाचे यत्न आसात. सौरशक्तीच्या आदाराचेर विजेची पुरवण ह्या वाठारांक केल्या. उदकाच्या नेटार शेतां, भाटां तयार करपाचो यत्न चल्ला. आजय मेकळेपणान भोंवपाक हांगा बंदी आसा. पुणून आमगेल्या वांगड्यांनी जेन्ना अंजदीवचे भुंयेर पांय दवल्लो तेन्ना आयज रानटी जीवन जगपी एक दोन बैल, दुकोर आमकां दिश्टी पडले. इतले दीस मनशाच्या सान्निध्यांक आशिल्लीं हीं पाळीव जनावरां आयज रानटीपणांक जगतात. मनशाच्या सान्निध्यांक आशिल्लें बैल जेन्ना मनीस पळयनाफुर्डे धांवपाक लागले तेन्नां मनीस प्राण्याच्या सुवार्थी सभावाचो हो परिणाम न्हय मूं? असो प्रस्न मनांत येवन गेलो.

पोर्तुगीजांचें पयलें पावल खंय अंजदीव बेटाचेर पडलें. इतिहासीक खिणांचे साक्षीदार आशिल्लें, पोर्तुगीजांच्या भिरांकूळ छळाचें साक्षीदार आशिल्लें हें बेट परत यशाचे तेंगशेर पावपाचीं सपनां पळयता.

* * *



प्रकाशित पुस्तकां :

१. आठव

२. काणकोणची लोक कला एक दायज

पैंगीणच्या श्रद्धानंद विद्यालयातली नोकरी सांभाळतानाच नवप्रभा, गोमंतक, तरुणभारत दिसाळयांनी लेखन. लोककलेंच्या वांगडा भारतभर संचार. काणकोणच्या लोककलेचे जतन तशेंच सवंर्धना खातीर योगदान. गोंय कला अकादमी, पर्यावरण वाहिनी, नवनिर्माण अभियान, समाजकल्याण खाते, हॉस्पीटल देखरेख समिती, गटविकास सल्लागार समिती, पैंगीण मल्टिपर्पज असोसिएशन, पैंगीण गोपाळ कृष्ण मंडळ, कस्तुरबा गांधी स्मृती ट्रस्ट, काणकोण कोंकणी कला केंद्र, परशुराम वसतीगृह, काणकोण शेतकी सहकारी सोसायटी, काणकोण अर्बन पत संस्थांचेर कार्य, १९९१चो गोंय राज्य युवा पुरस्कार, जाल्यार १९९६चो वास्कोच्या कलावृंद संस्थेच्या 'गोमंत कला भूषण' पुरस्कारान सन्मानित.